जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

* संस्थापक संपादपी:
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारिक दायज:
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी:
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी:
चेतन आचार्य
कृपाली नायक

* उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | २००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : | १५०/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : | ५००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : | ३००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : | ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

# आमची मानसीकताय...

सुनापरान्त बंद पडटा ही खबर कानार पडली. तेन्ना कच्च जालें. मन खूब निर्शेलें. पूण व्हडलें अजाप शें जालेंना. केन्नातरी जावपाचेंच आशिल्लें. असो सो विचार मनात आयलो. मन दुख्खी जालें. फॅसबूक, वॉट्सअॅप हांचेर जायत्यो मॅसेजी आयल्यो. पूण जायत्या लोकांचे दुख्ख फकत वयलेवयर - सुपरफिशियल शें दिसलें. हांच्या मदले कितले जाण नेमान सुनापरान्त वाचताले? कितले जाणाक सुनापरान्ताची खरीच गरज दिसतली? ...थोड्या दिसांनी लोक सगळें विसरतले अशें दिसलें.

कांय म्हयन्या आदीं मम्मा मुंबय आशिल्ल्या कडेन 'जागा'च्या फुडाराविशीं आमची चर्चा जाताली, ''म्हाका जर कितेंय जालें, हांव बरें जावूंक पावूंना जाल्यार 'जाग' थोडो काळ बंद दवरप. मागीर केन्नाय तुका दिसल्यार तूं चालू दवर तो. म्हाका आनी कोणाच्या हातांत दिवपाचो ना 'जाग', अशें मम्मान म्हणचें. आनी कोणाय कडेन जागाची वेवस्ता दिल्यार 'जाग' थोड्या दिसांनी बंद पडटलोच अशें कितें तरी मम्माक दिसतालें. गोंयकारांमदली, मुखेलपणान कोंकणी साहित्याच्या मळार वावुरप्यांमदली, कोंकणी साहित्य वाचप्यांमदली सुस्ती मम्माक जाणवल्ली. 'जाग' बरो येतलो जाल्यार, पयलीं बरें साहित्य जाय. मम्माक हांवें 'जागा'चें काम करतना पळयलां. जायतेदां नाका आसतना 'जागा' फाटल्यान आपणाली शक्त होगडायतना पळयलां. एका एका लेखा खातीर कमीत कमी चार पांच दां लेखकाक फोन करप, मागीर तो खरोच येतलो काय ना हाचो हुस्को करप, लेख आयलो जाल्यार दोन तीन मेरेन जागरण करून तो निवळावप, कंपोज जातकर ताजी चार पांचदां तरी प्रुफां काडप असो मम्माचो नेम जाल्लो. ''आमकां जाग जाय'' अशें म्हणपी लेखक सुद्दां वेळार लेख दिनासले. लेखांचें जाम्यार पडटकर मागीर जायरातींचो हुस्को. वर्गणीदारांचेर निंबून रावून जाग चलूंक पावपाचो न्हय. मम्मा जायत्या जाणांक फुकटूच धाडटालें. आयज 'जाग' आमीय धाडटात.

येणावळी परस खर्च सदांच चड जातालो. पूण 'जाग' चलोवपा फाटली मोख एक धंदो वा कोणाचेय जोडीची वेवस्ता म्हूण नाशिल्लो. कोंकणीची सेवा होच हावेस आसतालो. पूण मम्मा जे तरेन 'जाग' चलयताली, आपणाली पूर्ण शक्त 'जागा'कूच दिवून, तेन्ना म्हजो जीव सामको अस्वस्थ जातालो. मम्मा रातचें तीन चारांक बी न्हिदूंक येताली. केन्ना केन्ना दुख्खी जावन म्हणटाली ''म्हाका नवें वाचूंक कांयच वेळ मेळना. संगीत आयकतले म्हळ्यारूय वेळ ना. 'जागा'खातीर नवो लेख बरोवंकूय वेळ मेळना. केन्ना केन्ना दिसपटे वयलो ना जाल्यार पयलीं केन्नाय बरयिल्लोच लेख मातसो सुदारुन जागा खातीर दितां.'' कोंकणी मासिकां अशेच तरेन चलतात. कोंकणी लेखकांमदीं एके तरेचो वेवसायीक कुशळ ना. हें 'सत' मम्मान मानून शें घेतिल्लें काय दिसता. मम्मा एक selfless निस्वार्थी संपादक, आपणालो फायदो पळयनासतना आपणाल्या वाडींची पर्वा करिनासतना दुसऱ्यांक मुखार काडपी साहित्यीक म्हूण ताका लोक खूब मानताले. ''माधवीक लेख दिलो जाल्यार एक्कूय चूक नासतना छापून येता.'' हेंय हावें जायते दां आयकलां. पूण असलें सगळें आयकतना म्हाकाय कोंकणी मोग्यां भितल्ली एक सुस्ती जाणवता. ''लेख सुदारपाचें काम संपादकाचें''. लेखांत कितल्योय चुको उरूं संपादक पळयतलो. वेळार लेख दिवूं नाका 'जाग' चलतलो, अशें आमी सगळ्यांनीच मानून शें घेतलां. प्रकाशना खातीर खर्चाचें पळोवपाचें काम प्रकाशकाचें वा सरकाराचें. वाचप्यांनी वर्गणी भरूं वा ना भरूं. असल्यो जायत्यो गजाली आमी सहजतायेन मानून घेतात. पूण अशें कित्याक आसचें? दर लेखकान मातशी जापसालदारकी आपणाल्या भुजांचेर घेवून, वेळार लेख दिवप आनी दितना कमीत कमी चुको दवरप हें मानून घेतल्यार संपादकाचें काम मातशें तरी उणें जावं येता. वाचप्यांनी आपणालें कर्तव्य मानून म्हयन्याच्या म्हयन्यांक वर्गणी भरली जाल्यार प्रकाशकाचेंय काम उणें जावं येता. आमच्या मदल्या दर-एकल्यान असलीं ल्हान व्हड कामां 'आपणालीं' म्हूण मानून घेतलीं जाल्यार 'जाग' आनीकूय बरो येवं येता.

सुनापरान्त बंद पडपा फाटल्यान गोंयचे लोक कितले जापसालदार? गोंयचेर आमी उपाट मोग करतात. पूण कोंकणी आमची भास न्हय अशीशी गोंयकारांची मानसिकता जाल्या व्हय? कोंकणी फकत घरांत उलोवपा खातीर; शिक्षण, वाचप, बरप वा हेर सगळ्यां खातीर वापर करपाची भास मराठी वा इंग्लीश. मम्मान 'डायग्लॉसिया'' ह्या विशयाचेर खूब संशोधन केलां. हाचेर विचार केल्यार दिसता, गोंयकारांची मानसिकता गुलामाचीच व्हय? कितली तरी हजार वर्सां आमी हे ना जाल्यार ते सत्तेचे गुलाम उल्ले. दुसऱ्यांच्यो भासो, संस्कृतायो आमी आपणायल्यो. म्हण्टकीर जेन्ना आमकां स्वातंत्र मेळ्ळें, तेन्ना आमचेंच अस्तित्व आमकां परकी दिसूंक लागलें व्हय? मुक्तताय आमची परंपरा न्हय अशें कितें दिसलें व्हय?

# जाग

वर्स ४२ : आंक २ : सप्टेंबर, २०१५



**भायले चित्र :** उत्तरा पै आंगलो
**भितल्ली चित्र:** पान ३२ : आदिती नायक

सुरवातेच्यान आमी मराठींत शिकल्यात, देखून आतां आमकां कोंकणी शाळा नाकात. कोंकणीत शिक्षण घेवूंक ना देखून मराठी वा इंग्लीश आमकां चड संवकळीच्यो भासो जाल्यात. साहित्यूय त्याच भासांनी चड सोपेपणान आमी वाचतात. आमच्या भुरग्यांच्या फुडाराक सुगूर करपाक तांकांय आमी इंग्लीश वा मराठी शाळांनी घालतात. कोंकणी वाचूंक आनी बरोवंक आयल्यारूय व्हडलोसो कसलो फायदो जातलो?

हें पळोवन म्हाका आयज दिसता, सुनापरान्त वा एक कोकणी खबरापत्र गोंयांत आसचें अशें खऱ्यांनीच कितल्या गोंयकारांक दिसता आसतलें? फकत केन्नाय भावनीक जावून एके romantic नदरेन आमी गोंया कडेन पळयतात. तेन्ना आमकां वायट दिसता, पूण मागीर विसरतात.

कोंकण भास आदीच एक marginalized भास. तिच्या मरणाची खूब शक्यताय आसा अशें आमी सगळ्यांनी आयकलां. एकदांच न्हय तर परत परत आयकलां.

मानसशास्त्रान 'Desensitization' आनी 'normalization' - सामान्यीकरण म्हूण दोन तत्वां आसात. जेन्ना आमी कसलीय गजाल परत परत पळयतात, आयकतात वा अणभवतात, आमकां ती गजाल 'सामान्य' वा निसर्गिक दिसूंक लागता. ते गजालीचे महत्व उणें जाता वा ताचें गांभीर्य आमकां समजता.

कोंकणीविशींय अशेंच जालां काय? केन्नाय दिसता, कोंकणी आमच्या दोळ्यां मुखार मरता... २०१२ वर्सा गोंयांत १९३ कोंकणीत मुळाव्यो शाळा चलताल्यो. आयज फकत ६१ उरल्यांत... गोंयांत भोवतना आमकां इंग्लीश, मराठी आनी रशियन पाटयो वाचूंक मेळटात... कोंकणी कितल्यो मेळटात?? अशीं जायतीं उदाहरणां दोळ्यांमुखार येतात.

कोंकणी मरता जाल्यार तिका राखपाची जापसालदारकी कोणाची? आमची. कोंकणी मोग्याचीच न्हय? कोंकणीचो वापर आमी फकत घरांनी न्हंय जाल्यार बरपा-वाचपांत, शाळांनी वा हेर मळांचेर केलोना जाल्यार ती मरतलीच. सायकोलिंग्वीस्टीक्स ह्या विशयांत 'लिंग्वीस्टीक रिलेटिव्हिटी हायपोथिसीस' म्हूण एक फांटो आसा. ताचे प्रमाण आमची भास आमकां जगाकडेन पळोवपाची एक नदर दिता. भास मरता तेन्ना एका पुराय समाजाची जगाकडेन पळोवपाची नदरूय मरता अशें म्हणूं येता.

आयच्या जगांत आमी संवसारीकरणाक खूब म्हत्व दितात. आनी देखून आयज इंग्लीशीचो वापर आनी ते भाशेचें म्हत्व वाडत आसा. पूण म्हाका केन्नाय दिसता, आमकां संवसारीकरणाचो खरो अर्थ सारको कळूंक ना. संवसारीकरण म्हळ्यार हेर भासो मारून वा विसरून एके भाशेचो - इंग्लीशीचो वापर करप न्हय. वा एकेच संस्कृतायेचो शेक चलप न्हय.

**It is integrating various ideas and cultures. It is not bringing about uniformality; but about celebrating diversity. भारत हो एक भौभाशीक देश. हांगाच्या दरेक भुरग्यान सहजतायेन दोन तीन भासो आपणावं येतात. इंग्लीश सगळ्यांनी शिकचीच; पूण आपणाली भास विसरून न्हय! इंग्लीशेचो वापर खंयच्या मळाचेर, वाठारांनी करपाची गरज आसा हाचेर आमी विचार करूंक जाय. इंग्लीशीचो वापर जाय थंयच करून आपणाल्या भाशेखातीर वावर सतत फुडें व्हरप शक्य आसा. आनी म्हाका दिसता आमचे चळवळीचो होच हावेस आसूंक जाय.**

**हो लेख वयले वयर वाचल्यार तातूंत व्हडलेशें नवें कांयच ना. पूण गांभीरतायेन विचार केल्यार आमचे खातीर ही खूबच हुस्क्याची गजाल. सुनापरान्त मेलो म्हणल्यार कोंकणीचो organ fail जाल्ले भशेंन दिसता. मन खूब निर्शेता.**

**- आसावरी नायक**

खंयच्याय साहित्यात अणकाराक खूब म्हत्व आयलां. अणकारांविशीं चळवळी चलतात. ह्या दिवपा-घेवपाच्या साहित्यीक वेव्हाराक कोंकणींत खंयचे नदरेन पळयतात?

# सुधा मुर्ती हांच्या पुस्तकांनी म्हाका कितें दिलें?

**सुनेत्रा जोग**



म्हजें ल्हानशें कुटुंब, म्हजे इश्ट आनी म्हजीं पुस्तकां इतलेंच म्हजें सुपुल्लें जग. सगळीं पुस्तकां विकतीं घेवन तांचो संग्रह करून दवरपाक म्हाका खूब आवडटा. केन्नाय मनांत आयलें काय खंयचेंय पुस्तक उगडून वाचचें. एकूच पुस्तक परत परत वाचपाक लेगीत म्हाका आवडटा. अशींच केन्नातरी सुधा मुर्ती हांचीं कितलींशींच मराठी पुस्तकां विकतीं घेतलीं. तांचें ''सामान्यांतले असामान्य'' हें पुस्तक वाचपाक सुरवात केली आनी तांच्या लेखनाच्या मोगांतूच पडलें हांव. मागीर तांची हेर सगळीं पुस्तकां वाचलीं. इश्टांक भेट म्हण दिलीं. तांचीं पुस्तकां वाचप्यांक सामकीं मंत्रमुग्ध करतात. तांकां मेळिल्लीं मनशां, तांणीं केल्लो जगभराचो प्रवास, समाजकार्य करता आसतना तांकां आयिल्ले बरे वायट अणभव हें सगळें वाचता आसतना, हें सगळें खरेंच घडलां आसत काय अशें दिसता. विंगड विंगड क्षेत्रांत तांणीं केल्लें समाजीक काम, गरीब भुरग्यांक शिक्षणा खातीर केल्ली मजत, आपदग्रस्तां खातीर केल्ली मजत... एकाच मनशाक आयिल्ले हे सगळे अणभव आमकां अजापीत करतात. तांचीं पुस्तकां वाचपाक सुरवात करचे आदीं सुधा मुर्ती कोण हें म्हाका खरेंच खबर नाशिल्लें. म्हळ्यार त्यो इन्फोसीस फावंडेशनाच्यो अध्यक्षा, नारायण मुर्ती हांची ती घरकान्ना आनी ताणीं खूब व्हड समाजकार्य बी केलां अशें आयकल्लें. पूण जेन्ना तांचीं पुस्तकां वाचलीं तेन्ना तांचे विशीं मनांत आदर तर निर्माण जालोच पूण केन्ना तरी तांकां मेळचें ही उमळशीक लागली.

तेच वेळार तांचें एक तरी पुस्तक कोंकणींत येवंक जाय अशें सामकें तीव्रतायेन दिसलें. त्या खातीर कितें करचें हाचेर खूब विचार केलो. तांचे मेरेन कशें पावचें हें खबर नाशिल्लें. तांचो फोन नंबर वा इमेल मेळटा काय पळोवपाचो यत्न केलो. निमाणें तांचो इमेल मेळ्ळो. तितले म्हणसर तांचें एक तरी पुस्तक हांव कोंकणींत हाडटलेंच हो विचार सामको पक्को जाल्लो. फाटीं फुडें जायत तांका इमेल केली आनी हांव तांचें पुस्तक कोंकणींत अणकारूंक सोदतां, हें तांकां कळयलें. ते खातीर कितें करचें पडटलें तेंय विचारलें. अजाप म्हळ्यार रोकडीच तांची जाप आयली. म्हाका दिशिल्लें त्यो इतल्यो व्यस्त, प्रसिद्ध, आंतरराश्ट्रीय पांवड्यार नामना मेळयिल्ल्यो. त्यो म्हाका जाप धाडटल्यो अशें हांवें चिंतूकच नाशिल्लें. पूण तांणीं मेकळेपणान परवानगी दिली. आनी अशे तरेन हांवें तांच्या "How I taught my grandmother to read and other Stories" ह्या पुस्तकाच्या अणकाराचें काम सुरू केलें.

जिणेंतलें हें पयलेंच काम अणकाराचें. ह्या अणकारान म्हाका खूब खोस दिली. हांव काम करतां अशें म्हाका दिसलेंच ना. ह्या अणकारान खोस तर दिलीच पूण हांव अशें कितें करूंक शकतां हो आत्मविस्वासूय दिलो. फकत एकाच म्हयन्यांत हांवें तें सोंपयलें. हें पुस्तक ''आजयेक वाचूंक शिकयलें आनी हेर काणयो'' ह्या नांवान प्रकाशीत जालें. ताच्यो प्रती तांकां धाडिल्ल्यो. त्यो आवडिल्ल्याचेंय तांणीं मुजरत कळयलें. वर्सा भितर ताची पयली आवृत्ती सोंपली आनी दुसरी आवृत्ती ब्रॉडवे बुक हावसान काडली. दृश्टीहिनांक वाचूंक मेळचें म्हण हेंच पुस्तक मागीर हांवें ब्रेल लिपीयेंत काडलें. तेन्ना तांणीं म्हजी तोखणाय केली. ह्या पुस्तकाक बरो प्रतिसाद

मेळिल्ल्यान हांवें तांच्या आनीक दोन पुस्तकांचो अणकार केलो. "Old man and his God" हें पुस्तक ''जाणटेलो आनी ताचो देव'' ह्या नांवान आनी "The day I stopped drinking milk - Life stories from here and there" हें पुस्तक, ''हांवें दूद पिवपाचें सोडलें -हांगाच्यो थंयच्यो जिणे काणयो'', ह्या नांवान.

ह्या तिनूय पुस्तकांच्या अणकारांतल्यान म्हाका किते मेळ्ळें हाचो हांव जेन्ना विचार करतां तेन्ना हांव खरेंच नशीबवान अशें म्हाका दिसता. ह्या पुस्तकांक लागून म्हजे सारक्या एका सामान्य मनशाचें नांव एका व्हड आनी असामान्य अशा मनशा कडेन सदां खातीर जोडलां. तांकां प्रत्यक्ष मेळपाची संद म्हाका मेळ्ळी. सुधा मुर्ती हांच्या पुस्तकाचो हांवें अणकार केलो ते उपरांत तांच्या पुस्तकाच्या प्रकाशन सुवाळ्याक तांणी म्हाका मुजरत आपयलें. फुडें माचयेर आपोवन फुलां तुरो दिवन ही म्हजी कोंकणी अनुवादिका म्हण सगळ्यां कडेन म्हजी वळख करून दिली. मुद्दाम गोंयच्यान इतल्या पयस आयिल्ल्याचो उल्लेख केलो. हांव देवकी आनी ह्यो म्हज्यो अनुवादिका यशोदा अशेंय तांणी सांगलें. तांच्या दरेका पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याचें म्हाका निमंत्रण आसता आनी वर्सांतल्यान एक फावट जेन्ना आमी मेळटात तेन्ना म्हजें नांव लेगीत तांच्या लक्षांत आसता. हें तांचें व्हडपण आनी म्हजें भाग्य.

तांच्या लेखनांतल्यान त्यो एक व्यक्ती म्हण, लेखिका म्हण, समाज कार्यकर्ती म्हण तेचपरी एक शिक्षिका म्हण कितल्यो व्हड आसात हें कळिल्लें. तांकां मेळ्ळ्या उपरांत त्यो कितल्यो साद्यो आसात आनी इतली नामना मेळून लेगीत तांचे पांय कशे जमनीर आसात हेंय समजलें.

वाचकांक लागून हांव लेखिका जालां अशें त्यो म्हणटात. जिणेच्या प्रवासांत मेळिल्ले लोक, काळजाक भिडपा सारके अणभव हातूंतल्यान तांचें लेखन निर्माण जालां. मेळटात ते सगळे लोक लेखना खातीर तांकां विशय दितात अशें तांकां दिसता. जिणेंतले सगळ्यांत बरे धडे हांव गरीब लोकां कडल्यान शिकलां. तांच्या सादेपणान म्हाका प्रभावीत केलां आनी हेंच हांवें म्हज्या लेखनांतल्यान तुमचे मुखार मांडलां, अशें त्यो म्हणटात. तांच्या सगळ्या लेखनांतल्यान हेंच तर दिसता आमकां.

खंयचीय भास समृद्ध आनी गिरेस्त जातली जाल्यार त्या भार्शेत खूब साहित्य निर्माण जावपाक जाय. इतलेंच न्हय तर हेर भाशांतलें बरें साहित्य लेगीत त्या भार्शेत अणकारीत जावन येवंक जाय. तेच वेळार त्या भार्शेतलें बरें साहित्य हेर भासांनी अणकारून लोकां मेरेन पावपाक जाय. अशें जालें जाल्यारूय खंयचीय भास चड आनी चड गिरेस्त जावंक पावता. सुधा मुर्ती हांचीं इंग्लीश पुस्तकां कोंकणींत अणकारून म्हजे तांकी प्रमाण हांवें आमची कोंकणी भास गिरेस्त करपाचो यत्न केला. तो कितलो येसस्वी जाला हांव नकळ. भास गिरेस्त जावंक जाय हें जरी खरें आसलें तरी, छापिल्लीं पुस्तकां चडांत चड लोकांनी विकतीं घेवन वाचपाक जाय. आपल्या संग्रहांत तीं दवरपाक जाय हें लेगीत खरें. अशे तरेन जेन्ना पुस्तकांची विक्री जातली तेन्ना पुस्तकां छापपा खातीर प्रकाशक लेगीत अनमनचे नात. सध्या पुस्तक छापप कशें हो एक व्हड प्रस्न प्रकाशकां मुखार आसा अशें म्हाका दिसता. पुस्तकां छापलीं तरी तीं खपनात अशें तांचें म्हणणें. हाचेर मार्ग कसो काडप? जेन्ना वाचक पुस्तकां विकतीं घेवन वाचतले तेन्नाच प्रकाशकांक पुस्तकां काडपाक उमेद येतलीं अशें म्हाका दिसता.

संपर्क: 9823490960



# परिपक्व अणकाराचें आत्मीक समादान

अलका सिनाय असोळडेकार



अणकार हो शब्द कांय जाणांच्या कानार पड्टकीच दिसता, हें करप सामकें सोपें. शब्दाशब्दांचो अर्थ लावन वाक्य पुराय करपाचें एक सुटसुटीत काम. पूण कांय वेळा तशे तरेन पुराय करप शक्य जायना. अणकार अशे तरेन जावंक जाय, तो अणकार कसो दिसूंक फावना. सरळ सोप्या भाशेन. ल्हान वाक्यांनी नटयिल्लो आसूंक जाय. वाचप्याक लेगीत प्रस्न पडूंक जाय, हो अणकार काय ताचें स्वताचें साहित्य म्हूण. पद्य प्रकार हो सगळ्यां परस वेगळो आनी तो अणकार करप्याक एक आव्हान कशें आसता. हो एक सामको कठीण प्रकार. कवीचे मनांतली भावना ताचेविचार ताणें जे तरेन कवितेंत मांडल्यात, तशोच संवेदना-वेदना अणकारप्यान मनांत धरून प्रामाणीक आसूंक जाय. गद्य प्रकारांत तितलो त्रास जायना.

जण एकलो आपल्याच भार्शेतलें साहित्य उंचेल्या दर्जाचे समजून दुसऱ्या भाशेच्या साहित्या कडेन आडनदर करतात. अणकारा वरवीं आपल्या भार्शेतल्या साहित्यांतली उणीव भरून काडूंक मजत जाता. अणकारा वरवीं विंगड विंगड राज्यां एकठांय येतात. साहित्याची खोलाय मापूंक मजत जाता. कितलेशेच फामाद लेखक आसात. कवी आसात. जांणी साहित्याच्या मळार खूब काम केलां. उपासना केल्या. भाशेचो बांद आशिल्ल्या कारणान कांय वेळा आमकां संद मेळना वाचून काडपाक. अणकार खरें सृजनाचें काम करना. नवनिर्मणी कडेन व्हरपाक मजत करता. अणकार सरळ आनी सोपी गजाल न्हय. एकरूप जावचें पडटा. अणकाराचें सार्थक जालां, हाचें समाधान लेगीत अणकारप्याक जावंक जाय. अणकाराक लागून गिन्यानांत भर पडटा. ना जाल्यार लेखक आपल्या मर्यादे भितरूच उरता. आपलेंच

साहित्य मोलाचें अशें दिसून हेर लेखकांची वाचन करपाची इत्सा लोक मनांत बाळगिनात.

अणकाराचें म्हत्व:

१. अणकार करप ही काळाची गरज.

२. आवयभास समृध्द करूंक जाय जाल्यार हेर भासांचो अणकार जावप गरजेचें.

३. जितल्यो भासो चड कळटात तितलें गिन्यानात भर पडटा.

४. अणकार बरो जावंक जाय जाल्यार दोनूय भाशांचेर प्रभुत्व आसप गरजेचें.

५. अणकार सरसकट त्या भाशेंतल्यान केल्यार अणकार प्रामाणिकपणान जाला हाची खात्री आसता. जेन्ना दुसऱ्या भाशेचो आधार घेतात. म्हळ्यार दुसऱ्या भाशेची मजत घेवन करतात, तेन्ना अणकार कितलो प्रामाणीक पणान जाला हें कळना.

६. अणकार करतना एकरुप जावन मनन, चिंतन करूंक जाय. एकाग्रतेन अणकार केल्यार शब्दान शब्द स्मरणांत उरतात.

७. अणकार करता त्या भाशेचें गिन्यान आसत जाल्यार जशातशें साहित्य अणकार करूंक सोपें, सुरबूस आनी प्रामाणीक जाता. अशें तरी म्हाका म्हज्या अणभवांतल्यान दिसून आयलां.

अणकार करतना कांय गजाली मतींत घेवच्यो पडटात त्यो अश्यो.

कांय शब्द अशे आसतात. जे कांयवेळां अणकार करतना मेळटात, ते शब्द कांयवेळां सवकळीचे दिसतात. पूण ताचो अर्थ लावंक खूब त्रास जातात. कांय शब्द तशा तशे अणकारपाक जायनात. एका शब्दाक दोन अर्थ लेगीत आसतात. तेन्ना संदर्भ पळोवन शब्दांचो वापर करप गरजेचें आसता. नाजाल्यार अणकार सारको जायना. हाचेंय भान अणकारप्याक आसप भोव गरजेचें.

कांयवेळां आमी म्हणींचो वापर करतात. ताचो तर अणकार शक्यूच आसना. कन्नड भाशेंतल्यो म्हणी तर सामक्योच वेगळ्यो आसतात. तेच धर्तरेचेर लेगीत केल्यार कोंकणीत विंगड दिसतल्यो. तेन्ना अणकार करतना एक प्रस्न पडटा, म्हणी वापरांत हाडच्यो काय ना. कांय म्हणी अणकारांतल्यो काडून उडोवच्यो. कांयवेळा मिठाईचे प्रकार म्हणी त्या त्या राज्यांतले विंगड आसतात. आमच्या हांगा ते प्रकार आसनात. तेन्ना नांवां तशातशीं घेवचीं पडटात. अणकार ताचो सारको जायना. कांयवेळा वेळ वगडावंक जायना. संगणकाचेर वचून अणकार करतात. पूण अर्थपूर्ण जायना. आपणें स्वत: जातीन लक्ष घालून अणकार करप खूब गरजेचें. फायदेशीर आनी अर्थपूर्ण जाता. कोणूय अणकारपी आसूं ताका चडानचड भासांचें गिन्यान आसप फायद्याचें जाता. खंयच्याय नाजाल्यार खंयच्याय भाशेच्या आदारान एका शब्दाचो अर्थ लावंक मजत जाता. अणकार करूंक सुरवात करतना पयलीं ती साहित्यकृती सावकासायेन वाचची पडटा. अणकारतना सोपें जाता. कांयवेळां अणकाराचो वेग वाडयतां वाडयतां अचकीत स्पीडब्रेकर कसो एक कठीण शब्द येता आनी ताचो अर्थ सारको मेळना. तेन्ना अंदाजान ताचो अर्थ लावन मुखार वचप हें कांय प्रमाणांत चुकीचें थारता.

अणकारप्याक भाशेचे गिन्यान तशेंच जी भास अणकार करूंक घेतल्या थंयचो वाठार, तशेंच तांचें राहणीमान, चालीरिती हाची जाणविकाय आसप गरजेचें. तें नदरे मुखार दवरून अणकार केल्यार अणकाराक बरी दिका मेळटा. अणकाराची माची खूब व्हड आसा. कन्नड साहित्यांत पळयल्यार लेगीत बऱ्यो बऱ्यो साहित्यकृती वाचूंक मेळटात. जशी खाण कशी. जितलें उसपिता तितलें बरें बरें मेळपाची शक्यताय आसता. अणकारप्यां मदीं मनन, चिंतन आनी एकाग्रता हे तीन गूण आसचे पडटात. तेन्ना एक बरी अणकारीत साहित्यकृती जल्माक येता.

अणकाराच्या मळार पावल हांवें ल्हान भुरग्यांच्या काणयांचो अणकार करून दवरलें. आड मेळ्ळ्यो खूब आयल्यो अणकाराकडेन प्रामाणिक रावचे खातीर मेळटा तितल्या शब्दकोशांचो वापर केलो. हळूहळू अणकाराची संवय जायत गेली. कन्नडभाशेचें गिन्यान आशिल्ल्या कारणान त्या भाशेंतलें साहित्य कोंकणींत हाडपाक खूब आनंद जालो. अणकार करतां करतां म्हाकाय नवे नवे शब्द शिकूंक मेळ्ळे. मराठीतल्यान कोंकणींत अणकार करप सोपें म्हज्या मता प्रमाण. पूण कन्नड भाशेंतल्यान करप ही तारये वयली कसरत कशी. अणकारप्याक त्या राज्याची भास कळ्ळी जाल्यार आनी राहणीमान आनी संस्कृतायेची जाणविकाय आसली काय अणकाराक उभारी येता. आनी एक बरो अणकार साहित्याच्या मळार येवंक शकता. जेन्ना त्या वातावरणाची संवकळ आसता, तेन्नां आपसूकच शब्दमोतयां कागदाचेर देंवतात. एक परिपक्व अणकार करपाचें आत्मीक समादान मेळटा. भाशेचें अर्दकुटें गिन्यान आसून फायदो जावचो ना. कित्याक म्हळ्यार अणकाराक योग्य तो दर्जो मेळचो ना. अणकार करप्याक कांय वेळा मूळ लेखकाचे लिखणेंतल्यान देंविल्ले शब्द वा वाक्यप्रचार आवडनात. तरी लेगीत अणकारप्याक ताका आसा तशें करून दिवचें पडटा. इंग्लीशींतलो अणकार हेर भारतीय भाशांनी करतात. कांय वेळा शब्दांचो वापर सारको न जावपाची शक्यताय आसता. अणकाराक लागून विचारांचें तशेच हेर भाशांच्या साहित्याचें आदान-प्रदान जाता. आनी आपल्या आवय भाशेंत बरें दर्जेदार साहित्य हाडूंक मजत जाता.

शिक्षण कर्नाटकांत जाल्ल्यान म्हाका कन्नड कळटा. तिसरी भास म्हूण आमकां सक्तीची केल्ली. देखून हांव कन्नड शिकूंक पावलें. एक भास म्हाका शिकूंक मेळटा हाची खोस मनांत आशिल्ली. हेर लेखक अणकार करतात तें पळोवन म्हाकाय अणकार करपाची इत्सा निर्माण जाली. ल्हान ल्हान अणकार करता करतां म्हाका कथांचो अणकार करपाची इत्सा जाली. तशो कांय अणकार केल्यात. सुनापरान्तांत लेगीत अणकाराच्या सदरांत हांवें बरयलां. म्हज्या अणकाराची दखल घेवन म्हाका एक कादंबरी साहित्य अकादेमीच्या उपक्रमा वरवीं अणकारा खातीर आयली. ती म्हळ्यार एस. एल्. भैरप्पांची 'दाटू' ही कन्नड कादंबरी. त्यावेळार ती गाजिल्ली आनी त्या कादंबरेक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाल्लो. हांव अणकार करतलें ही जिद्द मनांत बाळगून हांवें अणकार करूंक सुरवात केली. सुरवातीची दोन-तीन प्रकरणां अणकारपाक कळाव

लागलो. गती कमी आशिल्ली. मागीर गती वाडली. मागीर सहज म्हजे कडल्यान अणकार जालो. म्हजो जल्म कर्नाटकांत जाल्ल्यान म्हाका थंयचें वातावरण खबर आशिल्लें. थंयचे खेळ, संस्कृताय, खाणा-जेवणां सगळ्यांची जाणविकाय आशिल्ली. अणकारतना तार्चे चित्रण दोळ्यां मुखार येतालें आनी अणकार करूंक म्हाका सोपें जायत गेलें. जेन्ना तो अणकार पुस्तक रुपांत साहित्य अकादेमीन हाडलो तेन्ना म्हाका अणकाराचें सार्थक जाल्ल्याचें समादान जालें.

म्हज्यो कितल्यो तरी अणकाराच्यो साहित्यकृती पुस्तक रुपांत येवच्यो आसात. बालसाहित्य तर खूब बरयिल्लें आसा. एका पर्यावरणाचेर आदारीत नागेश हेगडेन बरयिल्लें कन्नड पुस्तक ''तळेंच भांगर तळ्यातलें भांगर'' हाचो कोंकणी अणकार करून दवरला.

संपर्क: 9822981107

# दोन वळींमदलो अर्थूय सोदचो पडटा

## प्रशांती तळपणकार



खूब जाणांक दिसता अणकाराचें काम सोंपें. तांतून व्हड थ्रील ना. अणकाराच्या कामांत व्हडलीं निर्मिती जायना, तें सर्जनशील काम न्हय. पूण म्हाका दिसता, मूळ लिखाणा इतलेंच म्हत्व अणकारीत लिखाणाक आसा. अणकार हो वेगळ्यो भासो, वेगळी संस्कृती, वेग-वेगळे विचार हांच्या मदलो बांद. केन्ना केन्ना तर वेगळ्या संस्कृतींतले अणभव आमच्या अणभवा परस वेगळे न्हय हेंय लक्षांत येता.

आतां मेरेन हांवें खूबश्या बिगर सरकारी संस्थांच्या पत्रिकांचे, पुस्तिकांचे अणकार केल्लें. मूळ लिखाणांचो अर्थ समजून तो सादया, सरळ आनी सोप्या भाशेंत मांडपाचें काम केल्लें. अर्थांत थंयच ज्या विशयाचो अणकार करपाचो आसता त्या विशया विशींचें गिन्यान आत्मसात करचें पडिल्लेंच, आनी ते करचेंच पडटा.

पूण ''देट लाँग सायलन्स'' ही शशी देशपांडेंवी कादंबरी अणकारा खातीर हातांत घेतली आनी म्हजे खातीर ''नाका परस मोती जड'' जातलो असो दुबाव म्हाका मारलो. तरीय धीर धरून अणकारा खातीर पयलें पान उगडलें आनी म्हजो धीरच सोंपलो. कारण तिची भाशाशैली, वाक्यांची रचना, वाक्यांमदीं ठसठसून भरिल्लो अर्थ कोंकणींत कसो हाडप? म्हजे मुखार यक्षप्रश्न! तरीय धीर सोडलो ना. पयलें पान अणकारीत केलें आनी मुकेशबाब थळीक दाखयलें. ताणें आपली सगळीं कामां कुशीक काडून मूळ इंग्लीश पुस्तकाचें पान आनी म्हजो अणकार वाचून काडलो आनी रोखडेंच दोन दिसांनी कळयलें. ''बरें जमलां''. साहित्यीक सरुपाच्या अणकारां वेळार कसल्या कसल्या गजालींची जतनाय घेवंक जाय हे विशीं थोड्यो सुचनाय ताणीं केल्यो.

पुण म्हाका उर्बा मेळची म्हणून ताणें म्हजो अणकार बरो जाला अशें म्हळां हेंय म्हाका खबर आशिल्लें. रमेशभाई वेळूस्कार हाणींय हांसत म्हळें, ''ह्या जगांत जमना अशें कांयच ना, जमतलें तुकां''. तांच्या उतरांनी मातसो धीर आयलो पूण संदेशान हांवें केल्ल्या अणकाराचेर एक नदर मारली आनी ताच्या नदरेवेल्यान ''म्हाका हें जमलेंना'' हें म्हाका समजलें. ''हांव जाल्यार मुगो हाचो अणकार असो करपाचो'' म्हणत ताणे पुस्तकांतलो पयलोच परिच्छेद अनुवादीत करून दाखयलो आनी म्हाका कांय गजालींचीं कल्पना आयलीं.

अणकाराची कांय खाशेलीं तंत्रां आसात आनी अणकार करतना तीं आमी विसरूंक फावना हें म्हाका हें पुस्तक अनुवादीत करताना कळ्ळें.

एका भाशेंतल्यान दुसऱ्या भाशेंत अणकार करतना, कांय जाण मूळ भाशेंत जशीं रचना आसा तशीं मोख भाशेंत घेतात पूण ही पद्धत चुकीची. दर भाशेक स्वतःची रचना असता. इंग्लीश भाशेची वाक्य रचना आनी कोंकणीची एक ना. इंग्लीश भाशेंत चड कर्मणी प्रयोग आसता जाल्यार कोंकणीत कर्तरी. देखीक, ह्या कादंबरीतलेंच एक वाक्य "there was one thing that I hadn't bargained for when I had agreed to come here with Mohan-the ghosts who sprang out at me the moment I entered." हें वाक्य ताच्या अर्था सयत येवचें खातीर हांवें तें अशें घेतलें. ''जेन्ना हांव मोहना वांगडां येवंक तयार जालें, तेन्ना एके गजालीची घासाघीस करूंक हांव तयार नाशिल्लें- त्या सगळ्या भुतांक मेळपाक, जाणीं हांवें घरांत पांय दवरले बराबर म्हजेर घुरी घाल्लीं'' आतां ह्या दोनच वाक्यांची रचना पळयल्यार हांव कितें म्हणूंक सोदता तें वाचप्यांक जुस्त कळतलें. इंग्लीशीत passive Voice चड आसता जाल्यार कोंकणीत Active Voice वापरत जाता.

पुण ही गजाल ह्या कांदबरींत सगळ्याच कडेन जाल्या अशें ना. कांय कडेन सरळ इंग्लीश भाशेंतलीं वाक्यरचना तश्यातशी घेवंक मेळ्ळ्या. देखीक, "physical touching for me is a momentous thing."

हाचो अणकार सरळ जालो. ''शारिरीक स्पर्श ही म्हजें खातीर अती मोलाची गजाल''. हें अशें कशें जालें? बारीकसाणेन विचार करतकीच एक गजाल लक्षांत आयलीं ती म्हळ्यार लेखिका भारतीय आशिल्ल्यान, तिचेर भारतीय भाशांचो पगडो आसा आनी देखून तिची कांय इंग्लीश उतरांची रचना लेगीत भारतीय भाशां कडेन जुळटा. तिची इंग्लीश भास तशी अस्सल ना.

केन्ना केन्ना अणकार करताना कांय वाक्यप्रचार, म्हणी अनुवादकांक अनुवादीत करचें पडटात. थंय आसा तस्सो वाक्याचो अर्थ लायनास्तना, मोख भाशेंत, त्याच अर्थाचे वाक्यप्रचार, म्हणी आसात जाल्यार पयलीं पळोवपाची गरज आसता. तशें जायत

जाल्यारच तो अणकार नीजाचो दिसता. देखीक, yes, it had to be furtive, for my father, whose own tastes in music had been austerely classical, had despised my addiction of what he called 'that disgusting mush' हांगां हांवें "that disgusting mush' ह्या उतराक कोंकणी समांतर ''पचपचीत पेज'' असो शब्द घालो जो म्हाका चपखलसो दिसलो. तशेंच आनी एक वाक्या खातीर म्हाका खूब विचार करचो पडिल्लो. मूळ भाशेंतलें वाक्य आसा,"ours has been a delicately balanced relationship, so much that we have snipped off bits of ourselves to keep the scales on an even keel' हांगां snipped off bits of हे बरयताना सादे 'कुशीकचे कुडके कातरले' अशें पयलीं हांवें बरयलें पूण म्हाकाच ते विचित्र दिसलें. म्हाका आरतो - परतो विचार करता करता म्हाका ''बेणलें'' हें उतर मेळ्ळें आनी म्हजें समादान जालें.

एकूण ही कादंबरी अणकार करताना खूबश्यो गजाली हांव शिकलें. तातूल्यो वेंचीक गजाली म्हणल्यार -

१. अणकाराचे काम हुतहुते पणान करप योग्य न्हय. आपूण जेन्ना स्वतःचे विचार मांडटांत तेन्ना ते कशेय मोडून -तोडून बरोवंक जातात. आपल्या विचारांक आमी दिकां दिवंक शकतात पूण अणकारांत तशें करप अशक्य, कारण ते विचार दुसऱ्यांचे आसतात आनी लेखकाच्या विचारांक आलतडच्यान पलतडीं काम करताना तें खंयच शेणचें न्हय हाची जतनाय आमी घेवंक जाय. देखीक, ह्या कथानकांत, मराठी आनी कानडी लोकांची संस्कृती आयल्या, ती तितल्याच नेटान कोंकणींत हाडपाचो यत्न हांवें केला.

२. अणकाराक घेतिल्लें लिखाण पर-परत वाचून, तांतूतलें संदर्भ सांकेतीक भाशा समजून घेवप गरजेचें. हांवें पुस्तक पयलीं अणकाराक हातांत घेतलें तेन्ना फकत तिनदां वाचिल्लें. पूण फटाफट अणकार करपाक जमना जालें. मागीर मात् हांवें सगळें कथानक पांच फावटीं वाचलें, तिका कितें सांगपाचें आसा, तीं वाचकांक कितें सांगूंक सोदता, तिची विचारांची दिकां खंयची तें समजून घेतलें. आनी हें समजतकीच अणकार करपाक गती आयली.

३. केन्ना केन्ना लेखक आपलें स्वताचेच शब्द घडयता आनी अणकारपी ते समजनास्तना अर्थ सोदीत रावता. ह्या कादंबरींतय अशें आसा. म्हाका "Smarming" ह्या शब्दाचो अर्थ खंयच मेळना जालो. मागीर हांवें लेखिकाकच ईमेल धाडून त्या शब्दाचो अर्थ कितें काय विचारलो आनी तिची जाप येतकीच म्हजे म्हाकाच हांसूंक आयलें. तिणें सांगलें की असो शब्द खंयच्याच डिक्शनरींत ना कारण तें उतर तिणें स्वतःच घडयल्लें. मागीर हांवें त्या सगळ्या घटनेचो संदर्भ समजून घेवंन सोबशें उतर सोदलें आनी त्या वाक्यांत बसयलें.

४. अणकार म्हळ्यार फकत उतराक उतर न्हय तर तें कथानक खंयच्या फाटभुंयेर घडलां, थंयची संस्कृती, In between the lines किदें आसात ते समजून तें वाचकां मेरेन पावोवपाची जापसालदारकी अनुवादकाची.

५. जें लिखाण अणकारपाक घेतलां ताचेर सातत्यान विचार करप खूब म्हत्वाचें. हांव तर म्हाका जो शब्द कठीण दिसतालो वा म्हाका जो शब्द मेळ्ळां तांतूत समादानी नासलें काय मेळत ताका त्या शब्दाचो अर्थ विचारत सुट्टालें. आनी अशें विचारिल्ल्यान म्हाका खुबशे शब्द मेळ्ळें जे आतां वापरांत नात.

६. सगळें अणकारून जातकीच परत एकदां वाचून खंय कितें खटकता, खंय कितें चुकलां हें तपासून घेवप सदांच बरें. हांवें तर तीन-तिनदा वाचून चुको दुरुस्त करपाचो यत्न केलो.

७. निमाणी पूण सामकी गरजेची गजाल म्हळ्यार आपल्यान जें अणकारलां तें दुसऱ्या व्यक्ती कडेन तपासपाक दिवप सामकें गरजेचें. त्या बाबतीन हांव नशीबवान. निंदकाचे घर असावे शेजारी तशें घरांतल्या घरांत म्हाका editor मेळ्ळो. संदेशान व्हडा पासियेसान हांवें केल्लो अणकार वाचलो आनी जंय जंय वाक्या खटकतालीं वा चुकीचे शब्द घाल्यात अशें ताका दिसलें थंय ताणें सुदारणां केल्यो (म्हाका विचारून) आनी हाका लागून ह्या अणकाराच्या निमण्या टप्यारय म्हाका खूब कितें शिकूंक मेळ्ळे.

संपर्क: 9423887708 

# थोडा गम, बहुत खुशी !

**रेखा देशपांडे**



रिचर्ड बर्टन ह्या अप्रुपाच्या भोंवडेकारान इंग्लिशींत अणकार करूंक नाशिल्लो जाल्यार आमचे मेरेन 'अरेबियन नाइटस्' चो अरबी भाशेंतलो देखलायणो आनी अजापभरीत काणयांचे भांडार केन्ना पावचेच नाशिल्लें. इंग्लिशींत अणकार जावंक नाशिल्ले जाल्यार आमकां खलिल जिब्रान आनी उमर खय्याम केन्ना कळचेच नाशिल्ले. काम्-काफ्का-मोपासाँ-तोलस्तोय-पास्तरनाक-पामुक-नेरुद्रा-गार्सिया केन्ना कळचेच नाशिल्ले. जागतीक साहित्य इंग्लिशींत अणकारीत जावंक नाशिल्लें जाल्यार आमी खूब व्हड साहित्य संपदेक, तेच बरोबर विचाराच्या संपदेक चुकपाची (चड कित्याक, टागोराची गीतांजली लेगीत मराठी-कोंकणी सारक्या हेर भारतीय भाशांतल्या वाचप्यांक पयलीं इंग्लीशींतल्यानच वाचची पडली, वाचूंक आयली.) जागतीक साहित्याचे इंग्लिशींतल्यान हे जे अणकार जाले तेय इतले दर्जेदार आशिल्ले की वाचप्यांक हीं पुस्तकां पयलीं इंग्लिशींत बरयल्ली

नाशिल्ली अशें दिसचेंच ना. त्या बाबतींत इंग्लिशीचें रीण मान्य करचेंच पडटा. अणकाराच्या ह्या सदांकाळ चलिल्ल्या उपक्रमांक लागून इंग्लीश भाशेंतलें साहित्य अदीक समृद्ध जालें.

अणकाराचें म्हत्व जें इंग्लीश भाशेन वळखलें, तें वळखुपाक भारतीय भासांक मात खूब काळ वच्चो पडलो. फाटल्या कांय वर्सां भितर साहित्य अकादमी सारकेल्ल्या कांय संस्थांनी अणकाराचें महत्व वळखून षटमूट पावलां उखल्लीं हें खूब महत्वाचें. पूण एकूणच आमचे कडेन अणकाराची स्थिती कशी  आसा, हें परखडपणान पळोवप उद्‌बोधक थारतलें.

सद्या अणकारीत साहित्य व्हड प्रमाणांत उजवाडा येता, अशें खूब जाण म्हणटात. अणकार घोग्यांनी प्रकाशीत जायत आसतात. पूण घोग्यांनी प्रसिद्ध जावपी अणकारांनी 'अणकार' हे प्रक्रिये कडेन जाय तितल्या गंभीरतायेन पळोवपच जायना.

अणकाराच्या सर्जनात्मकतेचें स्वरुप थोडें विशद करपा खातीर हांगा म्हाका शांता गोखले हांणीं हालींच जेरी पिंटो हांच्या कादंबरीचो अणकार करतानाचो आपलो अणभव 'प्रिय रसिक'च्या अंकांत सांगिल्लो तो सांगपाचो मोह जाता. त्यो बरयतात, ''एम अँड द बिग हूम'' हे कादंबरीच्या प्रकाशनाचो एक व्हडलो सुवाळो जाल्लो आनी ही कादंबरी बरोवपी जेरी पिंटो म्हजो इश्ट म्हूण हांव ह्या सुवाळ्याक हाजीर आशिल्लें. जेरीन केल्ल्या वाचनान आयकुपी बरेच भारावन गेल्ले. प्रस्न-जापेची कार्यावळ सोंपपाक आयिल्ले कडेन फाटी बशिल्लो एक मनीस उबो रावलो आनी खणखणीत आवाजांत उलयलो, ''ह्या कादंबरीचे अनेक भाशांनी अणकार जावंक जाय'' तो गुणो म्हाका सरळ लागलो. घरा येतना म्हाका म्हजे नैतीक जापसालदारकीची जाणीव जाली. त्याय पेल्यान अणकारप्यांची एक खास उत्तेजीत मनस्थिती आसता. तिचो संचार आंगांत सुरु जाल्ल्याची सुलुसूय लागली. हे मनस्थितीची चिन्नां म्हळ्यार हात शिवशिवप आनी आपूण केन्ना कंप्यूटरा मुखार बसतां आनी पयले वळीकडेन आपटता अशी उमळशीक लागता. दुसऱ्या दिसा मेरेन धीर धरपाक जमचेना म्हूण घरा पावतांच कादंबरीची पयली वळ करूनच मागीर न्हिदुया असो निश्चेव केलो आनी लागलें कामाक. कामाक म्हणजे झुंजपाक... पयलें पान करपाक म्हाका दोन दीस लागले. जेरीचे शैलीचे दोन प्रकार आसात. कांय जाग्यांचेर ती सूचक आसा, आनी कांय जाग्यांचेर साहित्य, कविता, बायबल, सिनेमा, नाटक आदींचे संदर्भ दीत अर्थ फुलयत वता. हे शैलीची मराठींत लय धरप हें एक व्हड आव्हान आशिल्लें. कांय जाग्यांचेर कितलोय यत्न केलो तरी जमनाशिल्लें. ते रातीक न्हीद इबाडली. मात अणकाराची गुंगी कायम उरली. त्याभायर, ज्या दिसा जेरीन दिल्ल्या एकाद्र्या संदर्भाक मराठींत योग्य पर्याय सुचलो त्या दिसा नशा तेंगशेर पावली.

ही सर्जनात्मकता लक्षांत घेतात, आनी चडशे फावट ती वाचक, समीक्षकच न्हय जाल्यार उत्साही भाशांतरकारूय लक्षांत घेनात, (मुद्दम भाशांतरकार असो उल्लेख केला, अणकारपी असो न्हय) आनी दुर्दैव म्हळ्यार प्रकाशकानूय ती लक्षांत घेतिल्ली आसना, ना जाल्यार पयलीं तो अशें अर्दकुटें लिखाण वाचकां मेरेन पावयचोच ना.

मूळ पुस्तकाची भास आनी अणकाराची भास हांचे प्रकृतीचो, संस्कृतायेचो तातूंतल्यो भाशीक लोकजीवनाचो, तातूंतल्या साम्याचो वा वेगळेपणाचो आवांठ लक्षांत घेवन त्या दोगां भितर नातें निर्माण करप हें अणकारप्या मुखारलें आव्हान आसता. उतराक उतर दवरून तें आव्हान पेलपाक येना. पूण भाशेचें गांभीर्य अणकाराच्या भाशेंत नश्ट जालें जाल्यार तातूंतल्या आशयाचेर हावळ येता. ते खातीर प्रत्यक्ष लिखाण सोडून वेगळी तकालस घेवची पडटा आनी ते खातीर आसचे पडटा कुतुहल. दोनय भासांचेर मोग आसले बगर ही प्रक्रिया घडना. ती घडटा तेन्नाच खऱ्या अर्थान स्नेह-संबंद निर्माण जाता.

एम. जे. अकबर हांच्या 'शैडो ऑफ स्वीर्डस' ह्या इंग्लीश पुस्तकाचो मराठी अणकार करतना म्हज्या अशें लक्षांत आयलें की अकबर हांणी इंग्लीश ग्रंथ बरयतना ख्रिश्चनिटी आनी इस्लाम विशींच्या संदर्भा संबंदांत आपल्या वाचकांक गृहीत धरलां. ख्रिश्चनिटी आनी इस्लामा विशींचे सगळेच संदर्भ सगळ्याच इंग्लीश वाचप्याक खबर आसतलें अशें गृहीत धरलां. तें इंग्लीश  वाचप्याच्या संदर्भातय म्हाका आडखळटालें. वाचपी इंग्लिशीचो आसलो म्हणून ताका हे सगळे संदर्भ खबर आसतलेच अशें ना. मराठींत अणकार करतना मराठी वाचप्याक अशें गृहीत धरप योग्य तर दिसलें नाच, तें धोक्याचेंय आशिल्लें. त्या कारणान अणकार सोडून हे सगळे संदर्भ मुळांतल्यान सोदून काडून आनी समजून घेवन ते अणकारांत समजवप म्हाका गरजेचें दिसलें. ते खातीर जें संशोधन करचें पडलें तोय हे अणकार-प्रक्रियेंतलो एक रोमांचक अणभव आशिल्लो. ना जाल्यार ख्रिश्चनिटींतली 'शेलेरा कार्नेलिया' ही संज्ञा, वा ऑटोमन साम्राज्यांतली 'जाँनिसरी' ही राजकी सुव्यवस्थे खातीर निर्माण केल्ली खास प्रथा वा वेवस्था. हे अर्थ मराठी वाचप्या मेरेन म्हाका पावोवंकच जमचे नाशिल्ले आनी वाचप्याक हो विशय कुस्तार आनी वाजेवणो दिसपाक शकतालो.

(शेलेरा कार्नेलियाच्या लॅटीन अर्था खातीर फादर दि ब्रिटो कडेन विचारप केलें आनी तांच्या सांगण्या वेल्यान बिशप आग्नेलो हांची भेट घेतली. गोरेगांवचे सेंट पायस कॉलेजीच्या लायब्रींतल्यान तांणी म्हाका वेगळे वेगळे खंड काडून दिले आनी आपणे सुद्दां कांय स्पश्टीकरणां केलीं. ह्याच प्रमाण कुराणाचे जे संदर्भ अणकारपाचे आशिल्ले ते म्हाका कितले समजल्यात ते अब्दुल कादर मुकादम हांचे कडल्यान जाणून घेतलें. आनी जे समजूंक नाशिल्ले ते समजून घेतले.)

पूण अणकारप्याक ही तकालस घेवचीच पडटा आनी तातूंतय खूप खोस आसता. पुस्तकाचो अणकार केल्ल्याच्या उमेदी भायर वेगळो असो  एक खेरीत खोस तातूंत आसता. पूण ह्या अदीक मेहनतीचें किदें तरी एक वेगळें मोल आसा, आनी तें अणकाराक आनीक चमक दिवपी आसता ही गजाल खुबदां वाचप्याक गृहीत धरपी, मूळ बरोवपी आनी अणकाराचो प्रकाशक हे दोगूय विसरिल्ले दिसतात. हांचें एक कारण म्हळ्यार सगळेच अणकारपी ही तकालस घेतना दिसनात, त्या कारणान कांय विनोदय घडटात.

देखीक, मूळ उर्दू, पूण हिंदींत अणकारिल्ल्या पुस्तकाच्या मराठी अणकारांत सांस्कृतीक संदर्भ लक्षांत घेवंक नाशिल्ल्यान अशे विनोद घडिल्ले. तातूंतलो एक विनोद दोन वेगवेगळ्या लेखिकांच्या पुस्तकाच्या दोन वेगवेगळ्या अणकारप्यांनी केल्ल्या मराठी अणकारांत सापडलो. तांतलें एक अणकारपाचें पुस्तक हो मुळांतल्या पंजाबी पुस्तकाचो अणकार आशिल्लो, आनी दुसरें अणकारपाचें पुस्तक मुळांतल्या उर्दू पुस्तकाचो हिंदी अणकार आशिल्लो. हे दोनय मराठीत अणकारीत जाले.

'दुपट्टे चुनने का शौक' ह्या वाक्यांचो अणकार जाल्लो 'ओढण्या निवडण्याचा छंद'.

एक दुसरें उदाहरण - एखाद्रे जलश्या वेळार गालिच्याचेर धवी चादर हांतूळपाची रीत चड करून उत्तरेंत आसा. आनी तिचें 'चांदनी बिछाना' अशें व्हड काव्यात्म वर्णन करतात. पूण 'फर्श पर चांदनी बिछी थी' चो अणकार 'फरशीवर चांदणं पसरलं होतं' अशें जाल्लें. वेल्यान ती कार्यावळ बंद दालनांत चलिल्ली.



मूळ भाशेंतल्या संस्कृतायेचो संदर्भ वाचप्याक समजप ना, पूण बंद कुडींत चान्ने कशें पातळ्ळो असो प्रस्नय ताका पडटा आनी जाप मेळना.

भुरगेपणांतल्या कैफी आझमीन सोयऱ्यांक नमस्कार केलो ना म्हणून ताका बापायन ख्यास्त दिली, असो उल्लेख एक अणकारांत आयिल्लो दिसलो. कैफी आझमीचो बापूय ताका 'नमस्कार' करपाक सांगतलो काय सलाम वो आदाब?

'हाफ ब्रदर'चो अणकार 'अर्दो भाव' असो केल्लोय म्हज्या वाचनांत आयला. आसूं.

दुसरे वाटेन अणकारांत आपले उतरां-प्रयोग तश्यातशे दवरून सगळो आशय व्यक्त करूंक जाय असो अतिरेकी आग्रोय अणकारपाच्या भाशेन, मूळ बरोवप्यान दवरून चलचो ना. दुसरी भास ही अणकाराच्या भाशेची सहोदरा, भयणच जरी आसली तरीकय कांय समान उतरांचे अर्थ, तोच ध्वन्यर्थ, तांचे प्रयोग वेगवेगळे आसतात... ते भाशेंत वेगळे आसतात. ते तशाचे तशे दवरपाचा आग्रो धरलो जाल्यार अणकार फकत हांसपाचो विशय जातलो.

हालीच शरद पाटील हांणी डॉ. धर्मवीर भारती हांच्या 'कनुप्रिया' ह्या खंडकाव्याचो केल्लो मराठी अणकार म्हाका धाडलो. अणकार सुंदर जाला. देखून तशें हांवें पुष्पा भारती हांकां मुद्दम फोन करून सांगलें. तांकां ताची खूब खोस जाली. तरीकय, हिंदी कनुप्रियांतली राधा कृष्णाक 'तुम' अशें संबोधता, पूण मराठींत ती 'तू' अशें संबोधता, हाका तांणी आक्षेप घेतलो. तेन्ना तांकां पटोवचें पडलें की मराठींतलो 'तू' हो हिंदींतल्या 'तुम' हाका, आनी मराठीतलो 'तुम्ही' हो हिंदीतल्या 'आप' हाका इक्वीवलंट आसता. कृष्णाक 'तू' म्हणटना राधा ताचो खंयच अधिक्षेप करना, तर त्या दोगांच्या विशुद्ध लागसाणीचो भाव तातूंतल्यान व्यक्त जाता, जो हिंदीच्या 'तुम'तल्यान जाता. हिंदींतली राधाय कृष्णाक सामको व्दारकाधीश जाल्ल्या आनी म्हायुद्धाचो सूत्रधार थरिल्ल्या कृष्णाक 'आप' म्हणून उलो मारना.

गो. मा. पवार हांच्या विनोद : तत्व.आनी स्वरुप ह्या पुस्तकाचो हिंदी अणकार करपाच्या आव्हानाचो फुडो सद्याक हांव करतां. विनोदाचो एक प्रकार कोटी म्हळ्यार इंग्लिशींतलो वीट. ह्या उतरान सद्या म्हजी न्हीद काबार केल्या. कांय दिसां पयलीं पवार हांणी कोटी हें उतर हिंदीत रुढ करचें अशें सुचोवन पळयलें. तें कितलें अशक्य कोटींतलें आसा हें वेगळें सांगपाची गरज ना. हिंदींत कोटी हें उतर प्रतवारी, स्तर हो अर्थ ध्वनीत करपा खातीर वापरतात. देखीक 'फलॉ महोदय उच्च कोटि के विद्वान है। फलॉ आमदी उच्च कोटि का बदमाश है।' मराठींतलें चेष्टा हें उतर हिंदींत त्याच अर्थान वापरलें जाल्यार हिंदींत - उस अनुवाद की खिल्ली उडाई जाएगी। चेष्टा नहीं की जाएगी।

खूब फावटीं अ भाशेच्या इंग्लीश अणकारा वेल्यान ब भाशेंत अणकार करतात, वा करचो पडटा. एका भारतीय भाशेंतल्यान सरळ दुसऱ्या भारतीय भाशेंत अणकार करपी कांय सन्माननीय अपवाद आसात. विलास गिते, मृणालिनी गडकरी, उमा कुलकर्णी. पूण अपवादच म्हणचे पडटात. ना म्हणपाक हिंदींत जावपी अणकार हे व्हडा प्रमाणांत त्या भाशेंतल्यान सरळ जायत आसतात.

पूण जेन्ना एक भारतीय भाशेंतल्यान दुसरे भारतीय भाशेंत वचपाक इंग्लिश वा हिंदीच्या पुलावेल्यान मार्गक्रमण करचें पडटा तेन्ना लॉस्ट इन टान्स्लेशन हो धोको आनीक वाडटा.

खूबदां मजा अशी जाता, भारतीय भाशांतल्यो संवेदना, सांस्कृतीक संदर्भ समान, एकामेकांक कळपाक सोंपे कारण ते स्वता अणभविल्ले पूण इंग्लिशींतल्यान पाविल्ल्यान ओगीच मुंबयच्यान पणजे लंडना मार्गान गेल्ले भशेन जाता.

डॉ. फौझिया सईद हांच्या 'टैबू' ह्या इंग्लीश पुस्तकाचो अणकार हांवें पद्मगंधा प्रकाशना खातीर केलो. विशय भारतीय उपखंडांतलो. पुस्तक आसा लाहोरांतल्या तवायफ परंपरेचो. कलावंतिणीच्या समाजाचो समाजशास्त्रीय वेध घेवपी. तातूंतले संदर्भ हे भारतीय उपखंडांतल्या वाचकांक वळखिचे. इतलेंच न्हय जाल्यार ती लोकजीण पयलीं हिंदी-उर्दूत आनी पंजाबींत व्यक्त जाताली ती थंय इंग्लिशींत मांडिल्ली. थंय इंग्लीश हें फकत माध्यम आशिल्लें, हें पुस्तक मुळांत तांणी इंग्लिशींतच बरयलां. संवेदना देशी आशिल्ल्यो. इंग्लिशीचो पड्डो सरळ कुशीक काडून तें आपूण मराठींत हाडटां असोच खोसदिणो अणभव म्हाका अणकार करतना आयलो.

अणकाराची भास खंयचीय आसूं - मराठी, हिंदी, कोंकणी, इंग्लीश, पंजाबी - खंयचीय, तिची खेरीत शैली राखूंकच जाय आनी खरेपणी अणकारपाच्या लेखनांतल्यान व्यक्त जाल्ली संस्कृताय अणकार-भाशेवरवीं वाचप्याक अणभवूंक मेळूंक जाय. ही दोरयेवेली कसरता, पूण अणकारप्याक ती चुकोवपाक मेळची ना.

हेर भारतीय भासांचो म्हाका अणभव नाशिल्ल्यान तांचे विशीं हांगा कांयच बरोवप बरोबर थारना. पूण मराठी, हिंदी भाशां मदले अणकाराचें व्यावहारीक-व्यावसायीक आंग मात्शें दुखरेंच आसा.

इंग्लीश अणकाराची जी अर्थअपुर्बाय जाता, तशी ती ह्या भाशांमदल्या अणकारांक मात लाबूंक ना. प्रकाशक आयज व्हडल्या प्रमाणांत अणकार प्रसिध्द करीत आसले आनी तांकां मागणीय बरी आसली तरी अणकाराक मानधन दितना ते, थोडेच आडवाद सोडल्यार, हात बरोच फाटी घेतात. अणकाराच्या मानधनाचे खंयचेय स्टँडर्डायझेशन जाल्लें ना. जायरातीच्या कॉपीच्या अणकाराचे दर हे साहित्यीक (हातूंत वैचारीक बरोवपूय धरलां) अणकाराच्या दरा परस कितल्याश्याच पटीन चड आसतात. साहित्य अकादेमी, महाराष्ट्र, हिंदी अकादमी सारकिले अपवाद सन्माननीयच जावन आसात. खाजगी प्रकाशकां कडल्यान मेळपी अर्दकुट्या मानधनाची खूबदां वर्स-दोन वर्सां वाट पळोवची पडटा. बरोवप्याक आपुणजावन अणकार करून जाय आसल्यार पुस्तकाचो अणकार दितकच मानधन मेळपाक जाय हो आग्रो धरूं येत. अकादेमी सारकिल्यो संस्थाय अणकार मेळटकच मानधन दिवपाची रीत बाळगितात.



खूब फावटी हौशी अणकारप्यांक लागून गंभीरपणान व्यावसायीक अणकारपी म्हूण काम करप्यांची अडचण जाता. अणकार हें कांय अभ्यासा उपरांत करपाचें सर्जक काम आसा हाची खूबश्या हौशी अणकारप्यांक कल्पना आसना. धंद्याचेर दोळो आसपी प्रकाशकांकय तांकां ती कल्पना दिवपाची गरज दिसना. ''आतां निवृत्ती उपरांत वा बेकारपणाचो उद्‌देग म्हूण अणकार करया'' अशें म्हणपी लोक मेळटात. तशेंच ''पयशांची काय म्हाका गरज ना, म्हज्या नावार पुस्तक आयलें हाचीच म्हजेखातीर खोस व्हडली'' हांवे प्रकाशकांक - दिवाळी अंकाच्या संपादकाक सांगलें, अशें सांगपी लोकय मेळटात. त्या कारणान, प्रकाशकाचें फावता आनी फुडें व्यावसायीक बरोवपी - अणकारप्यां विशींय प्रकाशक वो दिवाळी अंकाचे संपादक असोच आपणाक फावता तसलो समज करून चलतात.

अणकारप्याक मागिनासतना, वेळार, योग्य मानधन मेळ्ळें जाल्यार सुखद धक्को बसता. ह्या संदर्भांत हांगा, खाशेले करून 'जागा'च्या संस्थापक आनी संपादकां विशींचो म्हजो अणभव सांगप हांगा सोबसारके थारतलें. कोंकणी भाशेंतल्यान मराठींत हांवें एकूच पुस्तक अणकारलां. तेंय रवीन्द्र केळेकार आनी माधवी सरदेसाय हांणी खेरीतपणान म्हजे विशीं व्यक्त केल्ल्या तांच्या आत्मविश्वासाक लागून. 'ओथांबे'चो अणकार करतना कोंकणी उतरांच्यो बारीकसाणो समजून घेवपा खातीर हांव मुंबय सावन माधवीक आनी मागीर म्हज्या क्वेरीजांक जापो दिवपी माधवीचो गोंयच्यान म्हाका असो अनुक्रमान मेल आनी पत्र वेव्हार चालू आसतालो. अणकाराचें म्हजें काम पुराय जातकच म्हाका रवीन्द्रबाब हांणी सरळ प्रियोळा आपोवन घेतलें. थंय आमी सद्दां प्रिंट आवटस घेवन वाचतालीं आनी ते आनीक कांय बारीकसाणो म्हाका समजावन सांगताले. बरोबरच चार दीस म्हजे थाटाचे कुळारपणय प्रियोळच्या घरांत मनोवप जाताले. साहित्याविशीं, भाशेविशीं आनीकय उद्‌बोधक चर्चा जाताल्यो. काम सोपोवन हांव थंयच्यान भायर सरलें त्या दिसा तांणीं 'महाभारत एक अनुसर्जन'चे दोनूय खंड आनी अणकाराचें सगळे मानधन म्हज्या हातांत दवरलें. रोखडेंच मराठींतले 'ओथांबे' अरुण जाखडे हांणी आपणाल्या पद्‌मगंधा प्रकाशना कडल्यान उजवाडायले आनी वाचप्यांनी ताका बरो येवकारय दिलो.

असलो अणभव वेगळो तरी अणकारप्याची उमेद वाडोवपी ढेर सारी खुशी दिवपी!

संपर्क: 9821286450



# कोंकणीचें ‘माधवी पर्व’

**हरदत्त खांडेपारकार**

कोंकणीचें ‘माधवी सरदेसाय पर्व’ म्हळ्यार आमकां सगल्यांक नव्या युगाचो उदय घेवन आयिल्ल्या भशेन दिसलें. ह्या आपल्या मायेमोगाच्या भाचेची जडण-घडण साक्षात ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त जाल्ल्या कोंकणी तपस्वी रवीन्द्रबाबान केल्ली. तिजेर कोंकणीचे आनी साहित्याचे संस्कार अशा तपस्व्या कडल्यान जाल्ले. त्या बुध्दीमान चलयेन रवीन्द्रबाबांच्या व्यक्तिमत्वांतलें बऱ्यांत बरें तें घेतलें. रवीन्द्रबाबां कडल्यान मेळिल्ल्या कोंकणी संस्कारांक स्वताच्या कर्तृत्वान आनी प्रतिभेन खूप उंचायेर व्हरून कोंकणीच्या साधनेचें अभिजात स्वरुप आमकां दाखयलें. माधवीबायल्या संशोधनान कोंकणी भक्तांक एक नवी दृश्टी मेळ्ळी. नवें पर्व सुरू जालें. ज्ञानपीठ पुरस्कारा सारखो सर्वोच्च सन्मान प्राप्त जाल्ल्या रवीन्द्रबाबांलें साहित्यीक दायज चलोवपाची शक्त मेळोवन दाखोवपी माधवीबाय म्हळ्यार कोंकणी चळवळीक रवीन्द्रबाबान दिल्ली व्हडल्यांत व्हड भेट. अमोल भेट.

‘जागा’चो जुलय २०१५चो अंक घरा आयलो आनी दोळ्यां मुखार हांसमूख माधवीबाय उबें रावलें. “जाग बऱ्या तरेन चलोवप हीच तांकां आर्गां”. अशें म्हणून संपादप्याची आनी ‘जाग’ चलोवपाची सगली जबाबदारी इतल्या ल्हान वयांत घेतिल्ल्या आसावरीची अपुर्बाय करता तितली थोडी. आवय कडल्यान मेळिल्ली केदी ही प्रेरणा! आवयवेल्या भक्तीचोय साक्षात्कार! कोंकणी चळवळीच्या फुडाराक हें सुचिन्ह.

‘जाग’खातीर हांवें कितेंय तरी बरोवचें म्हणून फोन करतल्या माधवीचो हांव आवाज आयकत आसतालों. मागीर तिजें अगत्याचें पत्रूय आयलें. ‘जागा’क म्हजो सदांच साहित्यीक हातभार लागचो असो माधवीलो आपल्या गोड पद्धतीन आग्रह चलिल्लो. माधवीक ते मेरेन हांवें प्रत्यक्ष पळोवंक नाशिल्लें. उपरांत गोंयच्या म्हज्या एका ल्हानश्या भेटींत पयलीं फोन करून माधवीक मेळपाक हांव गोवा युनिव्हर्सिटींत गेलों. थंय तिजें तें प्रसन्न आनी निरागस तोंड, उलोवपांतलो गोडवो (आपुलकी)तशेंच मायेमोगाचें व्यक्तिमत्व पळोवन त्या उज्याच्या दिसांतूय थंड चान्याचोच हांवें अणभव घेतलो. च्या घेवपाचो तिणें आग्रह केलो आनी आमी युनिव्हर्सिटीच्या कँटीनांत बसलीं, गजाली केल्यो. रवीन्द्रबाबां कडल्यान म्हजे नांव खुंपदां आयकूंक मेळटा अशें तिणें सांगतकच हांवें म्हळें तो म्हाका ‘तातो’ आनी तोच म्हजो कोंकणी चळवळींतलो आद्यगुरू. अशें सांगतकच माधवीबायच्या तोंडार जो आनंद हांवें पळेलो तो कितें सांगूं? बशीन हांव परतो पणजे वचपाचो आशिल्लों म्हणटकच बस योसर तें म्हज्या

वांगडा रखरखत्या वतांत रस्त्यार उबें रावलें. म्हाका निरोप दिवनूय परतें युनिव्हर्सिटींत गेलें. पयल्या तिज्या ह्या भेटींतलें आर्जव, नमळाय, सुसंस्कृतपणाची वागणूक आनी grace हांव खूप जाणांक सांगत आसतालों. उपरांतच्या गोंयच्या भेटींत मडगांवच्या तिज्या घराय गजाली जाल्यो.

आनीक एकदा हांव सकाळीं युनिव्हर्सिटींत गेल्ले कडेन तिणें बेगीबेगीन रवीन्द्रबाबाक फोन लायलो. म्हाका विचाल्लें, 'तात्याक आज तुमी मेळूं शकतले?' हांवें 'फाल्या तांकां मेळपाचो आसां' म्हणटकच 'पूण, जेवपाकूच चलात हां. तातोक बरें दिस्तलें.' अशेंय माधवीबायन म्हळें. रवीन्द्रबाबाल्या वृद्धावस्थेंत वैयक्तीक आयुश्यांत ज्यो त्या वेळार एका फाटल्यान एक वायट घटना घडत आशिल्ल्यो ताची म्हाका खबर आशिल्ली. एकुलत्या एक नातवाचें अपघाती मरण, खूप वर्सांचो सहवास आशिल्ली तांच्या आयुष्याची साथीदारीण गोदूबायचेंय मरण जाल्लें आनी ते एकटे एकटेशे जाल्ले. आपल्या तातोची माधवीबायक चिंता सतायताली. तांचें दुःख्ख विसरायेर घालपा खातीर आनी तांचो वेळ वच्चो म्हणून म्हज्या सारक्या कोणेतरी तांकां मेळत रावचें अशें माधवीबायक दिसतालें. दुसऱ्या दिसा हांव प्रियोळा वच जाल्यार रवीन्द्रबाब म्हजी वाट पळेतूच आशिल्ले. वचनाफुडें ताणीं म्हाका जेवपाक रावपाचो आग्रह केलो आनी सांगलें, माधवीन फोन करून आपल्याक सांगलां. खरें म्हळ्यार तांच्या त्या मनःस्थितींत हांवें थंय जेवपाक रावप म्हाका पटनाशिल्लें. पूण रवीन्द्रबाबांच्या आग्रहा मुखार नाइलाज जालो. रवीन्द्रबाब जें कितें उलयताले तातूंत माधवीविशींचें तांचें समादान पर्थू-पर्थून दिसून येतालें. सगल्यांत व्हडलें म्हळ्यार आपल्या खासगी ग्रंथालयांतल्या हजारांनी पुस्तकांची काळजी घेवपी आनी तांचो उपेग करपी आपल्याक जाय तशी योग्य आनी हक्काची व्यक्ती माधवीच्या स्वरुपांत आसा ही गोश्ट. ती ग्रंथसंपदा हीच रवीन्द्रबाबान दवलेल्ली खरी मौल्यवान प्रॉपर्टी.



१६.६.२०१३ ह्या दिसा सुरेशबाब आमोणकारांल्या 'झेंनचो दिश्टावो' ह्या पुस्तकाचो लोकार्पण सुवाळो आशिल्लो. आनी त्या पुस्तकाचों उक्तावण म्हज्या हस्तुकीं जावंचो आशिल्लों म्हणून पणजेच्या 'संस्कृती' हॉलांत हांव आयिल्लों. त्या दिसा सुवाळो सोपतकच राजू नायक आनी माधवीबाय जोडप्यान म्हाका मेळ्ळीं. जयवंतबाबूय मेळ्ळे. आनंदभरीत दिशिल्ल्या त्या दोगांयकूय 'अशीच सदां जोडप्यानूच म्हाका मेळात' हो असो हांवें आशीर्वाद दिल्लो. तें त्या दिसाचें आमचें मेळप निमाणचेंच थरलें. अशें हें आमचें बेभरवंशाचें जिणें.

माधवीबायचो म्हाका मुंबय निमाणचो फोन आयलो तो 'अना'वेलो स्पेशल अंक काडटना. म्हजो 'अनां'वेलो एक लेख बेगीनांत बेगीन जाय अशें तिणें सांगतकच हांवें रोखडोच बरोवन धाडून दिल्लो. तो मेळनाफुडें माधवीबायन लेख आपल्याक आनी राजूक खूप आवडलो हें सांगपा खातीर परतो फोन केल्लो. तो निमाणचोच तिजो आवाज हांवें आयकलो. त्या अंकांचें काम चालू आसतनाच तिजें तें भयंकर दुयेंस वाडीत आशिल्लें हें मागीर कळ्ळें. पूण तशाय परिस्थितींत माधवीबायन तो अंक बऱ्याभशेन पुरो केलो.

माधवीबायक त्या दुयेंसाक लागून मुंबय लीलावती हॉस्पिटलांत दवल्लां हें आयकून खूप व्हडलो धक्कोच बसलो. शीला कोळंबकार आनी सुरेशबाब आमोणकराकडल्यान मागीर म्हायती घेत आसतालों. ताका परतें गोंयांत व्हेलां पूण दुयेंस खुपूच वाडलां हे कळनासर दुरदर्शनवेल्यान माधवीबायल्या 'मंथन' पुस्तकाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळा ही आनंदाची गजाली आयकली. रोखडो फोन केलो तो आसावरीन घेतलो आनी म्हजें अभिनंदन तिका खाटीर न्हिदिल्लेकडेनूच कळयलें. तरीय आशा आशिल्ली. एक दोन दिसां भितरूच ती काळीज हालोवन सोडपी बातमी आयकली. मानसीक तयारी केल्ली आशिल्ली तरीय ती गजाल सोंसूक नज जाली. ऐन रंगांत आयिल्ली मैफल कोणेतरी अकस्मात बंद उडयली. तिच्या घरच्या मनशांवेलो भयंकर आघात तर येवजुपा भायलो. सगलें गोंय हळहळ्ळें. कारण माधवीबाय सगल्यांकूय जाय-जायशें आशिल्लें. हालींच्या तेंपार इतली लोकप्रियता मेळयल्ली व्यक्ती हांवें पळोवंक ना.

जानेवारी २०१५ चो दिलीप बोरकरालो 'बिम्ब' अंक आयलो आनी मुखपृश्ठावेलो माधवीबायलो तो अप्रतीम फोटो पळेतकच तें सामकें घराच आयिल्ल्या भशेंन दिसलें. तो अंक म्हज्या स्टडी टेबलार दवरिल्लो आसा.

कोंकणी चळवळींतलीं माधवीबाय नांवाची तेजस्विनी सगल्यांक ओड लावन गेली. आपल्या अभ्यासू वृत्तीन आनी संशोधक दृश्टीन नव्या उमेदीच्या कोंकणी साहित्यीकांक दर्जेदार लिखाणाचें वळण लायलें आनी भविश्या खातीर योग्य दिशा दिली. 'जाग' हे प्रतिश्ठीत म्हयनाळें जालें. ताजो झेंडो सदांच फडफडतो दवरूंक जाय.

नव्यान सुरू जाल्ल्या 'जाग' अंकांत डॉ. किरण बुडकुलेंचो जो सुंदर लेख आसा तातूंत माधवीबायचो उगडास जागवपा खातीर आनी तिजें कार्य फुडें व्हरपा खातीर कितें करूंक जाय ह्या विशीं म्हत्वाच्यो सुचवण्यो आसात. त्यो सगल्यांनी विचारांत घेवन रोखडेंच कामाक लागूंक जाय.

A special creation of God म्हणपा सारखें हें मनीस आमच्या मदीं आयलें केन्ना आनी गेलें केन्ना तें कळ्ळेंच ना. इल्ल्या आपल्या जीणेंतूय माधवीबाय खूब कितें फाटीं दवरून गेलें. खूब दिवन गेलें. तिचो जागो भरून काडपी दोळ्यांमुखार कोण दिसना. कोंकणीमोगी आमच्या ह्या गोंयच्या तेजस्विनीचे सदांच उपकारी उरतले.

संपर्क: 022-28942215



# माधवी : निरांजनांतली वात

**हेमा नायक**

माधवीचें जिवीत आसलें एक निरांजन आनी तागेलें जगप म्हणल्यार निरांजनाची पेट्टी वात. आपणें मंद जळून दुसऱ्यांक उजवाड दिवपी. भगभगपी कवदो न्हय. शांत शांत...

माधवी म्हजे परस पिरायेन धा वर्सांनी ल्हान. याद जाता तो चाळीस वर्सां फाटलो कोंकणीचो संवसार. जेन्ना म्हजी पिराय विशेक वर्सांची आनी माधवी धा वर्सांचें. दिसपाक नाजूक बावली कशें. निकतेंच कोंकणीच्या मळार हावें पावल दवरिल्लें. सभा संमेलनांनी वांटो घेवपांत उमळशीक आसताली. रवीन्द्रबाब केळेकार सगळ्यांत ज्येश्ठ. कोंकणीत तेन्ना हांव एकलेंच चली आनी तेंवूय बी मडगांवचें जाल्ल्या कारणान मडगांवच्या कोंकणी भक्तां वांगडां म्हजें भरसप जातालें. तातूंत स. चंद्रकांतबाब केणी चड संवकळीचे. कोंकणीच्या कामाक खंयूय वतना बाकिच्यां बरोबर हावें तांचे गाडयेन वचप हें थरिल्लें आसतालें. ताका लागून येतना वा वतना तांचे बरोबर अदीं मदीं पिरवळा रवीन्द्रबाबांगेर भितर सरप जातालेंच. तेन्ना सावन माधवी लागीं वळख. पिरवळा रवीन्द्रबाबांल्या घरांत भितर सरतनाच नदरेंत भरतालें तें चार चक्यांचें राजांगण! एके चवकेचेर रवीन्द्रबाबाली बसपाची सुवात. थंय आशिकुशीक आशिल्ल्या हेर कदेलींचेर तांकां मेळूंक आयिल्ल्यांक बसपाची सोय. बसकाच अशो मांडिल्ल्यो. थंयचे खंयचेय कदेलीर बसल्यार ते उलयतात तें सारकें सगळ्यांच्या कानार पडटालें. तेदेवेळार पसून माधवी, तातो कुशीक बसून एकटक नदर लावन घरांत येतल्या कोंकणीच्या लोकांच्यो गजाली आयकत रावतालें. केन्नाय ताचीं भावंडां सविता आनी विजय आसतालीं. तीं आंगणांत हेवटेंतल्यान तेवटेन उडक्यो मारून खेळत आसतालीं. पूण माधवी तातो म्हऱ्यांतलें हाल नाशिल्लें.

ताका घरांत सगळीं नानू म्हणटालीं. नानू सगळ्यांच्याच अपुरबायेचें. घरांतल्यांच्या तर जालेंच. पूण तांगेर येतल्या वतल्यांच्याय. माधवी, रवीन्द्रबाबाले भयणिलें चली, म्हणल्यार तांची भाची. माधवीचो बापूय जयवंतराव सरदेसाय आनी आवय मोगाबाय. तें जल्मलें लिस्बनांत पूण भारतांत येवन गोंयां परततकच चडशें तें पिरवळाच आस्तालें. रवीन्द्रबाब केन्नाय सांगताले, तिनसना सकयल म्हाड्डोळा सदची एक पासय मारून येतना माधवी तांचें बोट धरून चलतालें आनी वेगवेगळे प्रस्न विचारीत आसतालें. त्या सगळ्यांच्यो खऱ्यो जापो ताका दिवंच्यो पडटाल्यो. तांचें एकमेकांचें इतलें आपलेपण पळोवन माधवीक लोक खंय तांची धुवच म्हणटाले. तांचें खरें नातें म्हाकाय खूब उसरां कळ्ळें. आनी म्हणून कितें तातूंत व्हडलो फरक पडलो अशेंय ना. कित्याक तर तें सामकें तातोच्या विचारां खाला घडटालें.

खादीचे कपडे आनी सादेपणान रावप पूण उच्च विचारांचें अनुसरण करप ही वृत्ती भुरगेपणांत सावन आपणायली. खळखळून हांसप हें तागेलें वैशिश्ट्य. माधवीचें नांव काडिना फुडें ताचें खिक्क करून हांसपी तें मुखामळ नदरे सामकार आयले बगर रावना. निर्मळ हांसो हो माधवीचो गूण. जाचें मन आनी विचार निर्मळ असतात ताकाच असलो हांसो येता. माधवी गुणेस्त आनी मायेस्त आशिल्लें. ताच्या वागपांत मात लेगीत कृत्रिमताय नाशिल्ली.

माधवीची आनी म्हजी संवकळ करतां करतां वाडत गेली. बरे तोखणायेचे गूण आनी सामकें अपुरबायेचें. हांसत हांसत उलोवप आनी उलयतां उलयतां हांसप हो ताचो अप्रूप ट्रेडमार्क. ताच्या तोंडार रडकुरे भाव केन्ना कोणें पळयल्ले आसचेनात. गांधीवादी विचारसरणेंतल्यान घडत गेल्लें माधवी तत्वां कडेन अतिशय प्रामाणीक आशिल्लें. खादी बगर दुसरे कपडे ताणें केन्ना वापरले नात. ताच्या आंगाचेर भांगराचो कसलो अळंकार पळयिल्लो याद जायना. गाडयेन भोंवताना तर क्वचितच दिसताले. बशीनच ताचो प्रवास चड. आपणा खातीर कोणाक तिशठत ठ्वरप ताका माननासलें. आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार बशींत बसपाक सीट मेळ्ळो काय त्याच खिणाक आपल्या बोटव्यांतल्यान फायल काडटालें आनी पुस्तकाचीं वा अंकाचीं प्रुफां तपासपाक बसतालें. ताच्या वागपाचीं विवीध तासां पळयल्लीं हांवें.

कोंकणींतले कितलेशेच ज्येश्ठ तशेंच नवोदीत साहित्यीकांचें पिरवळा यो-वच आसतालेंच. ह्या कोंकणी साहित्यिकांमदीं नित्य नेमान भरसप जाल्ल्यान माधवील्यो भावना आनी संवेदना उतरांतल्यान प्रकट जावपाक लागल्यो. पिरायेच्या धाव्या वर्सा ताणें रचिल्ली ही चार वळींची कविता.

*मिठाची कणी हांव*
*दर्या भेटेक गेली*
*दर्यान हात लायनाफुडें*
*दर्या येदी जाली.*

ताच्या विचारांक भुरगेपणांत सावनच खोलाय आशिल्ली. दर्या येदो हावेस बाळगप ही सादारण मनशाची तांक न्हय. माधवी असामान्याचे तांकीचें.

आनी मागीर मंगळुरांतले कवी स. चाफ्रा डी कोश्ता हाणीं ताची अपुरबाय करता करतां कविताय पुराय केली.

*पेजे वाटली हातीं घेवन*
*दर्या वेळेर रावलां*
*कोणी विचार नाकात चोवून*
*'तोंड कशें बावलां?'*
*एक आसली मिठा कण*
*पिशे बुंद्दीन वाडल्या,*
*दर्या येदीं जातां म्हण*
*दर्यात वचून उडल्या.*
*दी गा म्हजी मिठाकण*
*तुज्या उदकांत थिरल्या*
*निरास जाल्या म्हजी जीण*
*पेज अळणी उरल्या!*

मंगळुरचे चाफ्राबाब ताका खूब बरें करताले. चाफ्रा अल्पकाळांत गेलो आनी माधवी तर ताचेय परस चड उणे पिरायेचेर. काळ कोणा खातीर थांबना. पिरवळा आपल्या मामा वांगडा त्या चार चक्यांच्या राजांगणाच्या घरांत खळखळून हांसपी ती बावली म्हणटां म्हणटां व्हड जाली तरी आमचे खातीर निदान म्हाका तरी माधवी सदांच ल्हानच बावली उरली.

जाग प्रकाशनाचे प्रकाशक सुमंतबाब केळेकारांच्या मर्णा उपरांत माधवीन प्रकाशनाचो आनी जाग अंकाचो भार आपल्या भुजांर घेतलो. खूब त्रास जाताले ताका. आपणा खातीर म्हूण जगपाक ताणें अजिबात वेळ दवरूंक नासलो. कित्याक तर ताणें आपल्या जगपाचेर केन्ना प्रेमच केलें ना. ताचें प्रेम आसतालें तें आपलें ध्येय तडीक व्हरपाचेर आनी देखूनच तें आरोग्या कडेन घाळ रावलें आनी न्हय नसत्या दुयेंसाची ताका बादा जाली. रवीन्द्रबाबाक मेळपाक आत्रापयऱ्यान गोंयांतले, भारतांतले आनी भायले लेगीत लोक येत आसताले आनी दर खेपेक माधवीक रकाद पावतालो आनी ताका आसा थंयच्यान पिरवळा येवचें पडटालें. तेन्ना फोनय नाशिल्ले. पूण रकाद जुस्त पावताले आनी सगळी कामां आवरून मेळटा त्या वाहनान माधवी पिरवळा पावतालें. ताची कसरत पळोवं नजो आसली. पूण केन्नाच ताका वाजेल्लें कोणें पळयलें ना. कपलार एकूय आटी नासताना खळखळून हांसपी अशे वझरे मेळप कठीण.

हांव केन्नाय म्हणटां, जल्माक येवप हें काय आपल्या हातांत नासता. पूण जल्माचें सार्थक करप हें निश्चितच आपल्या कर्तुत्वाचेर अवलंबून आसता. आपल्या अल्पकाळाच्या जगपांतल्यान मायेच्या ओलसाणेचो स्पर्श दीत कर्तुत्वाच्या शिखराचेर चडपाची उंच उडी मारपी माधवी ही एक कर्तुत्वी कन्या अशेंच हांव म्हणन. म्हज्या काळजांत ताचे खातीर एक मोठी सुवात सासणाची उरल्या. पिरायेन म्हजे परस धा वर्सानी ल्हान आसूनय ताचे कडसून कितलेशेच लक्तुबायेचे गूण हांवें शिकून घेतले. कितल्योय विवंचना आनी खंती मनांत भितर लिपोवन दवरीत हांसत्या मुखामळाचेर तांचो लवलेशय दिसूंक फावना ह्या तागेल्या व्रताचो चड नासूं पूण थोडो तरी प्रभाव म्हजेर नक्कीच पडला अशें हांव समजतां. सगळ्यां बरोबर अतिशय सामान्य जावन निरागसपणान वागण्याचे ताचे वृत्तीन गोंयच्या तशेंच मंगळूर, कोचीन, केरळ, महाराष्ट्रांतल्या साहित्यिकांक ताणें माया लायिल्ली. ताच्या सभावाचीं, जगपाची, विचारांचीं तशेंच अभ्यासू वृत्तीचीं विविध तासां आमी दोळ्यांनी पळयिल्लीं. आकांताळी सहनशक्त ताका खंयच्यान प्राप्त जाल्ली कोण जाणा. केन्नाच ताणें कोणाचो मत्सर वा दुस्वास केलो ना. कोणा विशीं वायट उतर केन्ना तोंडांतल्यान काडलें ना. ताचोच एखादयान कोणेय मत्सर केलो आनी तें ताका कळ्ळें जाल्यार तें वदतालें आमच्या सारख्यां कडेन. पूण म्हणटालें, 'तूं कोणाक सांगूं नाका आं. तातोक तर अजिबात कळूंक फावना. ताका वायट दिसतलें. कोण कितें उलयता तें उलोवं दी गो. आपणे आपलें काम करीत रावपाचें.' सगळ्या मनशांक भावना, संवेदना ह्यो आसताततच. माधवीकय त्यो आशिल्ल्यो. पूण दुसऱ्यांक दुखत अशीं उतरां ताणें केन्ना तोंडांतल्यान भायर काडलीं नात. आनी ताका लागून सगळ्यांनी ताका 'गृहीत धरलें' अशें आयज

म्हाका अतिशय खंतीय म्हणीन दिसता.

माधवी कोण आशिल्लें? आयज हो प्रस्न अंतर्मुख जावन दरेकल्यान आपणाक विचारचो. माधवी म्हणल्यार गिन्यानाचो दर्यो. त्या दर्यांतलें एकेक ल्हार कोंकणी भाशेचे समृद्धी खातीर जिवीतभर गर्जत रावलें. भाशाशास्त्र हो ताचो विशय. त्याच विशयांत ताणें पीएचडी केली. ताचो विशय - अ कंपेरेटीव्ह लींग्वीस्टीक एन्ड कल्चरल स्टडी ऑफ लॅक्सीकन -इन्फ्लूएन्सीस ऑन कोंकणी. म्हणचे उतराचें निर्मितींत भाशाशास्त्र आनी सांस्कृतीक संवर्धन हांचो तुलनात्मक अभ्यास - ताचो कोंकणीचेर प्रभाव. कोंकणी भाशेचेर पोर्तुगीजीचो प्रभाव हाचेरय ताणें अभ्यास केल्लो आनी शणै गोंयबाबांच्या भाशाशास्त्रीय प्रतिभेचेरय. इंग्लीश आनी तत्वज्ञान हे विशय घेवन चौगुले कॉलेजींतल्यान तें पदवीधर जाल्लें. माधवीन मागीर भाशाशास्त्र विशयांत एम.ए. केली. उपरांत एम.फीला खातीर 'कोंकणी व्याकरणांतलीं कांय स्वरुपां' ह्या विशयाचेर अभ्यास करुन तो सादर केलो. गोवा विद्यापिठांतल्यान ताणें कोंकणी शब्दावलीचेर भाशाशास्त्र आनी सांस्कृतीक प्रभाव - तुलनात्मक अभ्यास ह्या विशयांत संशोधन करून पीएचडी केली. तकलीफोड जावपी ह्या सगळ्या विशयांत माधवी भराभर संशोधन करीत गेलें आनी ताचो पूर्ण फायदो कोंकणी खातीर ताणे समर्पीत केलो. केदें म्हान ताचें कार्य! फुडलीं वर्साचीं वर्सां कोंकणीक पुरक अशी तजवीज आनी पुरुमेंत माधवी करून दवरून गेलें. कोंकणी भास समृद्धी खातीरचे ताचें हें व्हडलें योगदान आसा. माधवी हें भाशाशास्त्रांतल्या गिन्यानाच्या विवीध अभ्यासांच्या रंगांचें मिश्रण जावन कोंकणी सरस्पतीच्या क्षितिजाचेर उदेल्लें एक इंद्रधोणू आशिल्लें. दोळे भरून ताचें खुमणें पळोवपाचें आनी मुखामळार फांकिल्लें ताचें तेज तोखेवपाचें.

अशे अप्रतीम विव्दत्तेचे क्षमतेची तांक आशिल्ल्या बुद्धिवान माधवीक कोंकणींत फाव ती सुवात दिवपाक आमी उणी पडलीं. कोंकणी मनशान आयुश्यभर भाशेचो सेवक म्हण रावप अशी भावना नकळटाना आमीच आमचेर लादून घेतल्या. कोंकणीच्या वेगवेगळ्या कामांक वेंग मारपाची माधवीची धडपड. तातूंत विद्यापिठांत शिकोवपाची नोकरी, कुटुंबा कडेन लक्ष दिवप, तातूंत रवीन्द्रबाबां कडेन सप्तकांतल्यान दोन फावटीं तरी खेपो मारप, कोंकणी परिशदो, साहित्य संमेलनां घडून येतात थंय जाग प्रकाशनाच्या पुस्तकांचें प्रदर्शन भरोवप आनी तांची विक्री करप आनी ते खातीर पुस्तकां आकूक, आपल्या बापायक घेवन गाडयेंत घालून घेवन वचप, तीं बंडलां आपणेंच उखलप करीत कोण इतलीं कामां? मडगांव-पणजे-पिरवळा अशी कसरत करता करतां माधवी जाम जातालें. इतलेंच न्हय, तर भारतांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांत तशेंच पोर्तुगाल, फ्रान्स, जर्मनी अशा भायल्या राष्ट्रांत लेगीत कोंकणीच्या भाशाशास्त्राचेर उलोवपाक माधवी बगर आनीक कोण पर्याय नाशिल्लो. म्हाका दिसता, माधवी आपले बॅग भरून सदांच तयारेनच रावतालें. हातूंत सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ताच्या साथीदारान, राजून ताका हातूंत पुराय सहकार्य दिल्लें. नाजाल्यार इतलें घडुंकच पावचें नाशिल्लें. मजा म्हणल्यार आमीय राजूक सदांच आमचे परीन गृहीत धरून चल्लीं. घोव तो, घोवान आपले बायले खातीर करपाचेंच. पूण अशें समजताना आपणे घोव म्हण बायलेचे बाबतींत कसलीं कर्तव्यां पाळ्ळ्यांत हें केन्नाच कोणे चिंतलें ना. राजू घोवा परसूय ताचो एक सहकारी आशिल्लो, एक इश्ट आशिल्लो. ताणें माधवीचेर आतोनात प्रेम केलें. तेन्ना राजू मुंबय आनी माधवी गोंयांत. रवीन्द्रबाबा बगर तर माधवीचें पान हालना. प्रेमाचें रुपांतर लग्नांत जावपाक राजूक खूब कश्ट पडले. तेन्ना फोनाचीय वेवस्था नाशिल्ली. राजू कडेन प्रेमपत्रां आजूनय आसू येतात. तांची जिद्द अखेर सार्थकी लागली. ताताचे मान्यतायेन राजू-माधवी संवसाराक लागलीं. पूण राजून माधवीच्या स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाक बादा जायत अशें खंयच आडमेळें हाडलें ना. तशेंच माधवीनय तागेल्या पत्रकारितेच्या वावरांत ढवळा ढवळ केली ना. सादेपणान रावप हें साम्य दोगांतय आशिल्लें. एकामेकाक त्रास जावपा सारकीं कसलीं बंधनां तांच्यांत नासतालीं. पूण सभावांत मात जायतो फरक आशिल्लो. माधवी जितलें गंभीरतायेन कोंकणी भाशेचें चिंततालें आनी ते खातीर वावुरतालें, तितले गांभीर्य राजूच्या सभावांत नाशिल्लें. ताचो सभाव मातसो हलको फुलको, फकाणां मस्कऱ्यांचो. दोगांचेंय जिवीत बरें चलतालें. हरशीं खंयूय दोगांय वांगडा ना दिसूं. पूण दर वर्सा पणजे आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाक तांची चुकनासतना हाजिरी आसताली. माधवीक कसलीं फिल्मां आवडटालीं त्यो तिकेटी राजू ताचे खातीर काडून दवरतालो आनी ताका घेवन फिल्मांक बसतालो. अंदू हे प्रथेक खंड पडलो. तांचो लागींचा इश्ट वैकुंठ फोंडेकार एकलोच दिसलो. फिल्मांचे रांकेंत तिकेटी घेवन. माधवी मुंबय आनी राजूय बी. नोव्हेंबर २०१४ चे अखेरची खबर ती आनी तेन्नाच मुंबय माधवीचें जगपा कडेन अखेरचें झूज चलतालें. 'हेमा, हो सिनेमा खंय मगो बरो आसा. पळय आं.' अशें सांगपी माधवी आयनॉक्साच्या कँपसांत दिसचें ना. दर वर्सा चित्रपट महोत्सव जातलो पूण माधवी ना ताची खंत मनाक वेदना दीत रावतली.

हालींचीच एक ताज्जी याद. एक दीस फोनाचेर उलयताना सामकें उमेद जावन ताणें म्हणलें, 'हेमा हांवें युगांकाचें आंतरराष्ट्रीय फिल्मांचे समीक्षे वयलें पुस्तक वाचलें. कितलें संशोधनात्मक बरयलां गो ताणें. असलें साहित्य आमचे कोंकणींत ना. ताचें भाशांतर इंग्लीशींत येवपाक जाय. ह्या पुस्तकाचेर कोणांय जाणकारां कडल्यान लेख बरोवन घे गो. जागाच्या फुडल्या अंकांत छापुया तांचे. सामके अभ्यासपूण आं पुस्तक.' आनी ह्या विशयाचेर तें बरोच वेळ उलयत रावलें. म्हजे कुशीक कृपाली आशिल्लें आनी ताणें ताकाय सांगलें फुडल्या जागांत ताच्या पुस्तकाचे नियाळ छापपाचे म्हणून. समिक्षा, चिकित्सा, संशोधन हातूंतले कश्ट आनी विद्वत्ता तुजे सारक्याकच कळपाची माधवी.

भाशाशास्त्राचो विशय घेवन कोंकणीक बाकीच्या भासांचे तुलनेंत कांयच उणें उरचें ना इतली उपाट समृद्धताय माधवीन आमकां दिवन दवरल्या. अभिमानान अंतस्करण भरून येता. तशेंच ताका सांबाळपाक आमी उणीं पडलीं हाची खंत भोगता. आमच्या हातांत आशिल्ल्यो बऱ्योचशो गजाली आमी वगडायल्यो. माधवी आमचें आशिल्लें. सगळ्यांचें. ताका फूल कशें जपपाचें काम आमचें आशिल्लें. 'ताका अळंग दवरपाचें. ताका प्राप्त जाल्ली भाशेची सिद्धी तशी सादीसुदी न्हय. ताचे खातीर कम्प्यूटर, इंटरनेटाची सोय आशिल्लें एक खास ऑफीस आसपाचें. ताचे खातीर गाडयेची वेवस्था, ताच्या कामाक

दोन मदतनीस, आर्थीक घटाय दिवपी पगार, भत्तो सगळें वेवस्थीत मेळिल्लें जाल्यार तातूंत आमचोच सुवार्थ आसलो. अर्थांत ताची स्वतःची तशी अपेक्षाय नाशिल्ली. आपल्या 'मंथन' पुस्तकाचें विमोचन जातकच माधवीन उलयतना म्हणलें, 'समाजांत रावून समाजाक चडानचड बरें दिवप हें म्हजें ध्येय. कोंकणी साहित्यांत निशाणी उरपाची आसल्यार ती संशोधनाच्या क्षेत्रांत उरूं दी. बरयतात तशे खूब जाण. पूण संशोधन हें वेगळें. पूण पणटी पेट्टकच दुसरी पणटी पेट्टा. गिन्यानाची भास म्हणून जर कोंकणी सशक्त करपाची आसा जाल्यार ती जापसालकी आमची न्हय जाल्यार आनीक कोणाची? ते जाणिवेंतल्यान उबारिल्लें हें पावल.' सृजनशील साहित्य निर्मणेंत लक्ष घाल्लें जाल्यार तें आयज एक नावाजतें साहित्यीक जावपाचें पूण ताणेंच म्हणलें, कथा, कविता कोणूय रचूंक शकता. भाशाशास्त्रा सारकें किचकटीचें काम कोण करतलो? माधवीन तर निश्ठेन आनी चिकाटीन आपल्या तल्लक मेंदवाचो उपेग कोंकणीक भरभरून करून दिलो. आनी हें सगळें ताणें आपणाक दिसता म्हणून केलें. संशोधन, खाशेलो अभ्यास असल्या म्हत्वपूर्ण विशयांक आमी फाव तशी सुवात दिनात. तशी दिल्ली जाल्यार माधवी कोंकणीच्या भांडारांत आनीकूय बरेचशे अळंकार घालपाचें.

पूण येद्या उंचेल्या हावेसाचो दृश्टीकोन आमकां खंयच्यान येतलो! आमचे लोक बुद्धी परस ज्येश्ठतेचोच विचार करपाक उरले. आमी यंत्रणा (system) बदलपाकूच सोदिना. माधवीच्या वचपान काळीज दुखावलां. तें निमाणे मेरेन कोकणीची सेवा करीतच उरलें. एक वर्स हातरुणाचेर खिळून उरिल्लें माधवी जाग प्रकाशनाच्या पुस्तकाचीं प्रुफा तपाशीत आसतालें. आमी मात ताचे खातीर कांयच करपाक शकलीं नात. कोंकणी मनशाची एक मानसिकताय जाल्या, कितेंय करपाचें जाल्यार ती व्यक्ती पिरायेन जाणटी जावपाक जाय तो मेरेन दुसऱ्यांक निभावून काडुया. माधवीन पन्नास वर्साचे पिराये मेरेन कोंकणी भाशाशास्त्राच्या गिन्यानाचो जो अथांग सागर आमचे खातीर घसघशांनी ल्हारयत दवरला तो केन्नाच आटून वचचो ना. कोणाक शक्य आसा असले साधनेची पूर्तताय करपाक?

उल्लेख केले बगर रावं नजो तो दिलीप बोरकाराचो. कोंकणींतले लेखक आनी साहित्य अकादमी पुरस्कार विजेते रवीन्द्रबाबां कडेन आनी पर्यायान माधवी कडेन दाट संबंद. पुस्तकां हाडपा-व्हरपाक अडचण जाताली तेन्ना माधवी अधिकारान दिलीपाक फोन करून सांगतालें आनी दिलीप मातूय आडमेळीं दाखयनासताना माधवीचें काम करतालो. माधवी कांय खिणाचें सांगाती आसा हें जाणा जातकच दिलीप इतलो हळवो जाल्लो हावें पयलेच खेपे पळयलो. दिलीपाच्या बिम्ब मासिकाचे वतीन अंदू माधवीक वैचारीक साहित्या खातीर पुरस्कार जाहीर जालो आनी ताचो वितरण समारंभ २१ डिसेंबराचे राती कडेन आगशे दिलीपाच्या घरा आशिल्लो. माधवी हांथरुणाचेर निमाणच्यो घटका मेजतालें आनी गुरुनाथबाबान ताका शांती मेळची म्हण सगळ्यांक दोन मिनटां उबीं रावपाक सांगलें आनी ते प्रमाण सगळ्यांनी उबीं रावन प्रार्थना केलीं. दिलीपान मागीर भावनावश जावन म्हाका म्हणलें, 'हेमा सांगपाक जावचें ना अशे वायट परिस्थितींत माधवी आसा. काल रातीं हांव बळयां ताच्या हाथरुणा म्हऱ्यांत गेलो आनी ताचो हात हातांत घेवन बरोच वेळ दामून धरलो.' दिलीपाच्यान उलोवपाक जायनासलें. आनी बिम्बाचो पुरस्कार हाथरुणाचेर आसताना हातांत घेवन तो तोखेतना माधवीन प्राण सोडले.

माधवीची कूड आमच्यांतल्यान ना जाल्या खरी पूण ताच्या सभावगुणांची आनी विचारांची सासाय आमच्यांत जागृत उरल्या. मर्दीच कानार साद घालता ताचो आवाज. फोन वाजता, दिसता माधवीचोच जातलो. ताच्या फोनाची सामकी संवकळ जाल्ली. केन्नाय माधवीचो येतालो, तर केन्ना हांव करतालें. रवीन्द्रबाब हाथरुणाचेर आसताना रवीन्द्रबाबाक दिसतालें माधवीन आपल्या म्हऱ्यांतच बसून रावचें. सांजवेळ जातकच ताच्या येवपाची वाट पळयत रावतालो. पूण इतल्या राटावळींतल्यान सदांच कशें येवपाक मेळत? पूण ताका तें कळनासलें आनी मागीर माधवी म्हाका फोन करतालें, 'हेमा, तुका फावता तशें मातशें तातो म्हऱ्यान वचून बस आं. ताका बरें दिसता तूं येतकच.' आनी ताचें उतर मोडप म्हाका जायनासलें. माधवीक येवपाक फावना तेन्ना हांव वतालें. ताच्या निमाणच्या दिसांनी आमी अशीं आलटून पालटून वचत रावतालीं. आतां अशें अधिकारान सांगपी म्हाका कोण ना.

संशोधन आनी शिक्षण ह्यो गजाली माधवीक प्रीय. तांतले तातूंत चलयांनी जाता तितलें शिक्षण घेवन आपल्या पांयार उबें रावपा इतल्यो स्वावलंबी जावंच्यो आनी आपल्या आंगांतल्या शिक्षणाचो फायदो समाजाच्या बऱ्या खातीर वापरांत हाडचो अशें ताका सदांच दिसतालें. ते नदरेन ताणें आपल्याच्यान जाता तितले यत्न केल्यात.फी भरपाक कोणाय विद्यार्थ्याक अडचण जायत जाल्यार त्या गरजवंताक पयशे दिवपाक ताणें केन्ना फाटीफुडें पळयलें ना. हो आपलो वा तो दुसरो असो भेदभाव ताच्यांत नाशिल्लो. गोंय विद्यापिठांतल्या कोंकणी विभागांतल्या विद्यार्थ्यांक तें सगळे नदरेन एक आदार आशिल्लें. चड करून तांचें मानसीक बळ वाडोवपाक. जिवितांत कांय कठीण प्रसंग येवन खचून गेल्ल्या चलयांक माधवीन नैतिक बळ हाडून तांकां शिक्षणांत प्रवृत्त केलें आनी आयज ताचीं फळां आमकां दिसून येतात. असल्या गजालींचो ताणें केन्नाच बोवाळ वा गाजोवाजो केलो ना. पूण तीं अंतस्कर्णांतल्यान ताका स्मरतात. प्रसिद्धीची हाव ताका केन्नाच नासली. प्रसिद्धी माध्यमां पासून तें सद्दां पयसूच आसतालें. सभा समारंभांनी फुडल्या कदेलींचेर माधवी केन्ना दिसनासलें आनी ताका लागून वक्त्यांच्या तोंडांतल्यान उपस्थितांचीं नांवां घेतना माधवीचें नांव येनासलें. खंयतरी फाटल्यान कुशीकशें तें फकत श्रोता जावन बसतालें. हातांत एक बोटवो आसतालो. तातूंत जागाचे अंक आनी वर्गणीदार दिसलो जाल्यार खंयच्यान तरी मात सुलूस लागूंक दिले बगर तो अंक ताच्या हातांत पावयतालें.

कांय वेळा आपल्या दुखाविल्ल्या भावनांचें प्रकटीकरण अतिशय खाजगी म्हण सांगून माधवी म्हजे कडेन उकतायतालें. आयकून म्हाकाय वायट दिसतालें. एखाद्याचेर इतलो भावार्त आनी भरवंसो दवरून पातयेवन रावनूय आपल्याक विश्वासांत घेनासतना एखादी

*(पान २८ चेर)*

एकविसावी खिस्त

# म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

# अपमान एके विदुशीचो...!

फेब्रुवारीच्या ११ आनी १२ तारकेक कोचीनाक अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेची बारावी बसका निश्चींत जाल्ली. खूब्ब आदीं सावन ते बसकेची तयारी सुरू जाल्ली. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद, बसका बी उतरां म्हाका संवकळीचीं जाल्लीं. ल्हान व्हड सगळ्या कोंकणीवाद्यांच्या तोंडार तर तींच घोळटालीं. जो तो आपले परीन तयारेक लागिल्लो. प्रत्येकाक तें आपलें घरचें कार्यच कशें दिसतालें आनी तेच उमेदीन सगळ्यांची धांवपळ चलताली. म्हजेय खातीर ही पयलीच परिशद आशिल्ली. पयलेच खेप हांवूय परिशदे निमतान खूब्ब पयस कोचीन म्हणटात थंय वतालों. परिशदेक अजून दोन म्हयने आशिल्ले. अजून नोव्हेंबर उलगपाचो आशिल्लो. मागीर डिसेंबर, मागीर जानेवारी आनी उपरांत फेब्रुवारी लागपाचो आशिल्लो. ११ फेब्रुवारीक परिशद, म्हणटकच सकाळीं मटणचेरीक पावल्यार पुरो. गोंयच्यान कोचीनाक पावपाक दोन दीस लागताले देखून दोन दीस आदींच आमी भायर सरपाचें आशिल्लें. सगळ्यांक कोचीनाक वचपाचे वेद लागिल्ले. म्हाका इल्ले चडूच म्हळ्यार जाता. कारण म्हाका भोंवडेची मुळांत आवड आनी अशें खंयूय वचूंक मेळटा जाल्यार हांव सामको भुरकुटून वतालों. केन्ना एकदां फेब्रुवारी येता अशें म्हाका जावन गेल्लें.

म्हाका कोचीनाक वचपाचे वेद लागिल्ले अशें जरी हांवें वयर म्हणलां, तरी गोंयांतले हेय दीस सामके उमेदीचे, खोसयेचे आशिल्ले. दरेक कोंकणी वाद्याच्या तोंडार खोस उफेताली. नागेश करमली आनी ताचे वांगडचे सगळे तानाजी हळर्णकार, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार, दत्ता श्री नायक बी जे कोण शणै गोंयबाब जल्मशती निमतान लळितक बी कार्यावळ करताले तांच्या मुखामळार खोस वसतालीच. पूण र. वि. पंडित, पांडुरंग भांगी बी कवी जे सदांच रुक्ष वागताले, रुक्ष दिसताले आनी रवीन्द्र बाबांकडेन जांचें व्हडलेंशें पटनाशिल्लें ते लेगीत सामके उमेदीन भरिल्ले आनी ताचे फाटलें एकूच कारण म्हणल्यार रवीन्द्रबाबांक मेळिल्लो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार.

साहित्य अकादेमी म्हूण दिल्ली एक व्हडली संस्था आसा, जी साहित्या खातीर वावुरता आनी तिची स्थापणूक पंडित जवाहरलाल नेहरून केल्ली, ते संस्थेचो अध्यक्ष हो देशांतलो व्हड विद्‌वान आनी साहित्यीक आसता, हे अकादेमीचे ८० काय कितले वांगडी आसतात आनी ते भारतांतल्या हेर राज्यांतल्या भासांचें प्रतिनिधी आसतात आनी तेय व्हड साहित्यीक आनी विद्‌वान आसतात म्हणपाचें म्हाका खबर आशिल्लें. रवीन्द्रबाबांच्या तोंडांतल्यानूच हांवें हें सगळें आयकल्लें.

साहित्य अकादेमी भारतांतल्या भासांक भास म्हूण मान्यताय दिता. कोंकणीक ती आदीं नाशिल्ली. पूण रवीन्द्रबाबां सारक्या कोंकणी भक्तांनी अथक परिश्रम घेवन, प्रयत्न करून तिका १९७५त मान्यताय मेळोवन दिल्ली. साहित्य अकादेमी ज्या भासांक मान्यताय दिता त्या भाशेंतल्या पुस्तकांक दर वर्सा पुरस्कार भेटयता आनी असो पुरस्कार जाका मेळटा ताका राष्ट्र मान्यता फावो जाता. साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिल्ले कोंकणीच्या पुस्तकांक आतां साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराचीं दारां उक्तीं जाल्लीं. आनी पयलो पुरस्कार रवीन्द्रबाबांच्या 'हिगालयांत' ह्या प्रवास

वर्णनाक फावो जाल्लो. कोंकणी साहित्याक राष्ट्रमान्यताय मेळपचो हो खीण, हो प्रसंग खऱ्यानीच केदो व्हडलो आसतलो हाची कल्पना लेगीत म्हज्यान करूंक जाय नाशिल्ली. 'हिमालयांत' पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभिल्लो रवीन्द्रबाब म्हाका खऱ्यांनीच हिमालया येदोसो दिसूंक लागिल्लो. आनी ह्या मनशा कडेन म्हजो लागसार आसा ही भावना, हो विचारूच म्हाका सामको भुल्लुसून उडयतालो.

दुसरी एक गजाल म्हणल्यार ह्या दिसांनी सगळ्याक रवीन्द्रबाबांचीच चर्चा चलताली. तांचें नांव सतत खबरापत्रांचेर येतालें. तांचें अभिनंद जातालें. तांचे सत्कार जाताले. साहित्य अकादेमीच्या ह्या पुरस्कारापासत कोंकणीचीं १९ पुस्तकां आयिल्लीं. काल पयर जिका सगळे लोक बोली म्हूण हिणसायताले, बकच्छायो मारताले ते भाशेंतली १९ पुस्तकां पुरस्कारा पासत वतात ही घडणूकच सगळ्या कोंकणी कार्यकर्त्यांक उचंबळीत करपी आशिल्ली आनी तातूंतल्या 'हिमालयांत' पुस्तकाक पुरस्कार मेळप ही गजालूय सगळ्यांक सर्गाक हात लायिल्ल्याची भावना मनात उदेवन हाडपा सारकी आशिल्ली.

रवीन्द्राबाबां पासतूय ही गजाल सामकी खोशयेची आशिल्लीच. पूण रवीन्द्रबाब खुबळिल्ले गोंयची मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार हांचेर. शशिकला काकोडकारां विशीं रवीन्द्रबाब ज्या किंवाट्यान उलयताले तें पळयत जाल्यार साहित्य अकादेमी पुरस्काराचे खोशयेपरस शशिका काकोडकारांचे वागणुकेचीच तांकां त्या दिसांनी चड खंत भोगल्या म्हणपाचें दिसतालें. घरा कडेन तीच गजाल. ते सामके तावातावान सुमन्तबाबा कडेन उलयताले आनी सुमन्तबाब चडूच उज्यांत तेला ओतताले.

ताचें जाल्लें अशें, पुण्यांत १८ नोव्हेंबर १९७७ हे दिसा ५२ वें अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलन जाल्लें. संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले भावे. आदल्यो अध्यक्षा आशिल्ल्यो जांकां रवीन्द्रबाब बंडखोर साहित्यीक म्हणटाले त्यो दुर्गा भागवत. आणिबाणीच्या काळार ह्याच दुर्गा भागवतान इंदिरा गांधीक नाका शेवट केल्लो आनी तिची तोखणाय म्हाका रवीन्द्रबाबांच्या तोंडांतल्यान खूब खेपो आयकूंक मेळिल्ली. ह्यो दुर्गा भागवत ५१व्या मराठी साहित्य संमेलनाच्यो अध्यक्ष आशिल्ल्यो आनी साहित्य संमेलना कडेन खंयच्याच मंत्र्याचो संबंद येवंक फावना हो नेम ताणीं मानून घेतिल्लो. सत्तेक लागून मनीस भ्रश्ट जाता आनी निरंकूश सत्तेक लागून तर तो चडूच भ्रश्ट जाता हो विचार लेखकांनी कायमचो मतींत धरूंक जाय म्हणपाचो सल्लो ताणी दिल्लो. ५२व्या ह्या संमेलनाक मावळत्यो अध्यक्ष म्हूण तांचें भाशणूय जावपाचें आशिल्लें. पूण ज्या राजकारण्यांक साहित्य संमेलनाच्या माचयेवेल्यान पयस दवरूंक जाय अशें दुर्गा भागवत आड्डून आड्डून सांगताल्यो त्याच साहित्य संमेलनाच्यो उद्घाटक म्हूण गोंयच्यो मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार गेल्ल्यो. दुर्गा भागवतान ते पासत साहित्य संमेलनाच्या माटवांत जाहीर निशेध करून संमेलनाचेर बहिश्कार घाल्लो. तेच पासत रवीन्द्रबाब हांगा खुबळिल्ले. सुमन्तबाबां कडेन आपलो राग उक्तायताले. ताईन गोंयकारांची लज काडली अशें त्या दोगांयचेंय मत जाल्लें आनी हे गजालीचो गोंयकारांनी निशेध मारूंक जाय अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. म्हजे सारको मनीस ताचे किंवाटो पळोवपा बगर आनीक दुसरें कांयच करूंक शकनाशिल्लो. म्हाका दिसतालो तो रवीन्द्रबाबांचो शशिकला ताई विशींचो खतखतपी राग!

रवीन्द्रबाबांचो एकूच प्रस्न आशिल्लो, ताई पुण्याच्या साहित्य संमेलनाक कोण म्हूण गेल्ली? तिका थंय वचपाचो कसलो अधिकार आशिल्लो? ताई स्वताक साहित्य मोगी अशें म्हणटा. पूण तिचें हें म्हणणें खरें न्हय. जर ती साहित्य मोगी आशिल्ली जाल्यार ज्या राज्याची ती मुखेलमंत्री आसा त्या राज्यांतलें साहित्य आनी साहित्यीक उबंत पडचे नाशिल्ले. ताई कोंकणीचो दुस्वास करता. कोंकणीक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिवंची न्हय म्हूण तिणें सगळे प्रयत्न केले. कोंकणी साहित्याक तिचे नदरेन व्हडलेंशें मोल ना हें समजूं येता. पूण मराठी साहित्याक लेगीत ताईच्या राज्यांत सुवात ना. कला अकादमी ती चलयता. पूण अकादमीच्या बजेटांत साहित्या पासत वेवस्ता ना. वर्साक कांय पुस्तकांक एक एक हजाराचो पुरस्कार दिता इतलेंच तिचें साहित्याक प्रोत्साहन. ही तिणें घाल्ली भीक. जिच्या राज्यांत साहित्याक इतलीच सुवात, ते ताईक पुण्याच्या साहित्य संमेलनाक वचपाचो अधिकार ना. ती थंय गेली दुर्गा भागवतांचो अपमान करूंक.

ताईक हें सोबलेंना. दुर्गा भागवत ही किरकोळ बायल न्हय. महाराष्ट्रांतलीं ती एक व्हड विदूशी. इमर्जन्सी वेळार स्वताक व्हडले साहित्यीक म्हूण मिरोवपी जेन्ना इंदिरा गांधीच्या पांयार लोटांगण घालताले, तेन्ना ही बायल मनीस बंडाची घुडी घेवन इंदिरा गांधी आड उबी राविल्ली. साहित्य ही राजदरबारांतली सैरंध्री न्हय हें सांगपा खातीर. तिचो अपमान करपाचें धाडस महाराष्ट्रांतल्या एकल्याय राजकारण्यांक जालें ना. संमेलनवाल्यांक ते पासत थंय एकलोय राजकारणी उद्घाटनाक मेळ्ळो ना. मेळ्ळी मात ताई! लजेक घाली तिणें गोंयकारांक. वता थंय तिचो आतां निशेध जावंक जाय. कोण करिना जाल्यार हांव करतलों.

रवीन्द्रबाबांचो किंवाटो सोसपा सारको नाशिल्लो. ते उलयताले आनी सुमन्तबाब फकत शी शी करताले. ताई पुण्याक गेली आनी तिणें दुर्गा भागवतांचो थंय वचून अपमान केलो ही गजाल रवीन्द्रबाबान मनाक खूब्ब लावन घेतिल्ली. रवीन्द्रबाबांक साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाभला हे खोसये परस त्याच दिसांनी घडिल्ले हे घडणुकेची चड खंत जाल्ली. तांकां पुरस्कार लाभला म्हूण १८ डिसेंबराक कोंकणी भाशा मंडळान मडगांव तांचो सत्कार दवरिल्लो. २३ डिसेंबराक पणजे इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्थेन हेर संस्थांच्या पालवान एक भव्य सत्कार आयोजीत केल्लो तांचो. सुवाळ्याचे अध्यक्ष नामनेचे मराठी कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय आशिल्ले. तांचेच हस्तुकी हो सत्कार जावपाचो आशिल्लो. आनी हेच लक्ष्मणराव सरदेसाय ३१ डिसेंबर आनी १ जानेवारी ७८ ह्या दिसांनी कुडचड्यार जावपी गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाच्या १५व्या अधिवेशनाचेय अध्यक्ष आशिल्ले. ह्या संमेलनात तरी शशिकला ताईचो जाहीर निशेध जावंचो अशें रवीन्द्रबाबांक दिसतालें.

खूब्ब म्हळ्यार खूब्ब दुखावल्ले रवीन्द्रबाब. दुर्गा भागवतांचो अपमान हो आपलोच अपमान अशें ताणीं मानून घेतिल्लें आनी त्या अपमानान तांकां पुरस्काराक लागून जाल्ली खोस गौण थारायल्ली...

**(चलता)**

संपर्क: 9822136885



छतिमावी खिस्त

# दिसपटी
**शांताराम आगोमकार**

# शिक्षणाचेर दुर्लक्ष

**१७.६.१९५३**

संवसारांत सगळें घडटा तें जर तिरायताचे नदरेन पळोवपाक आयलें जाल्यार खुब्ब मौज जातली. नडटा तें इतलेंच. आमकां ती नदर जाय म्हणून खुब्बशे त्रास भोगचे पडटात.

**१२.७.१९५३, आयतार**

बाबाचें रागान पत्र आयलां. ताचें म्हणणें, जोडपाक लाग; शिकप पुरो जालें. योग्यूच आसा. ताका जालीं बांसश्ट वर्सां. संवसाराची जबाबदारी तो सदांच कसो घेत?... सगळ्यांचेंच आपापले परीन खरें. पणून म्हाकाय म्हजें मत्त आसा. म्हजे बाबतींत तरी सदांच दुसऱ्याच्या मत्तान चलपाक कशें जातलें?

शालून पत्राक जापूच करूंक ना. ताची प्रकृती बराबर नासता.

म्हजो गाडो फुडें धुकलप चल्लांच. प्राप्त परिस्थितीक तोंड दिवंक जायूच. 'उदयोग: पुरुषस्य लक्षणम्! काम करीत रावप. मार्ग कठीण हें पयलींच थारलां. त्याच मार्गान वचपाचेंय थारलें.

एकादया वेळार शिल्पाचो दिप्लोम घेतलों. लग्न जालां न्हय, फाटीं-फुडें उपयोग जातलोच. पणून शिकपाचेर मात मुख्य भार म्हजो. मना पसून अभ्यास करतां. त्रास घेवपाची मना पसून तयारी आसा... मेळटा तितलें शिकप.

अजून पेंटींग सारकें मनार घेवंक ना. आळस झडून झडना. एका दिसान मनीस बदलता? एका जल्मान पसून बदलप कठीण. तरी पणून काम करपाचें मनार घेवपूच. तीस वर्सां आगोस्तांत सोंपतलीं. अशे तशे स म्हयने अदीक. मागीर शालूचो विचार जावंकूच जाय. पेंटींग आपले आपूण ठरावीक stage पर्यंत तरी करपाक येवंक जाय. तितलें बंधन हांवें घालून घेतलां. शालू खातीर कितेंच करुंक ना. सगळ्यां खातीर थोडें थोडें तरी केलां. घरच्या सगळ्यांक आर्थीक मदत जावपाक जाय. तांचो भार उणो करपाची जबाबदारी आसाच.

...खर्चांत खूब काटकसर करून शिक्षण चलोवंक जाय.

**२२.७.१९५३,**
**आशाडी एकादस,**

पुस्तक मागोवन हाडपाची तजवीज. १३० रुपया. मॉडेलींग सकाळचें आठ ते धा. ते मागीर सगळो वेळ ४.४० पर्यंत stone carving. दोनूय, म्हज्या मत्तान, बरीं वतात. म्हाका Modelling Diplomaक बसूंक दिलें जाल्यार बरें आसा. नाजाल्यार अंदूंचें सगळें वर्स शिकून मागीर घरा काम करप.

चित्रावपाच्या कामाक आरंभ. रातीं सहजूच तकलेंत आयलें तें. पयर पळशिकरान म्हळें, शाळेंत एक जागो रिकामो जावपाचो आसा. आनी ताका कांय भुरगें खटपट करतात. म्हज्या मनांत आयलें, हांवेंय करून पळोवची. पणून म्हजे कडेन कामां तयार नात. आनी हातान दिप्लोम घेत पसून कांयच काम जावंक ना. तरी पणून हेच अडचणींतल्यान मार्ग सोदपाचें थरलां. काल रातच्यान तकली चलोवपाक आरंभ केलो - रातीं एकदम स्फूर्त आयली. ते प्रमाण सगळीं sketch books धवळ्ळ्यार गोंयांत पयर केल्लीं sketch बरीं आसात. तेंच सारकें केल्यार पन्नासां वयर animal studies जातलें. मागीर दोन-चार आनीक sketches करून compositions तयार केलीं. तातूंतलीं दोन करून पळेलीं. साधारण जाल्यांत. तशेच तरेचीं म्हळें, आठ-धा करून उडोवप मागीर चार-एक पोर्ट्रेट्स करून पळोवप, आनी चार 'still life' करप. इतल्यांत थोडीशी कामाची आनी आपली तयारी जातलीच. ठरलें आनी आयच्यान कामाक लागलों.

खुब्ब मनशांचो समज असो आसा की ते आर्टिस्ट, कारण तांणी चित्रां काडल्यांत. हांवें काडूंक नात. अर्थांत हांव तांचे पंगतीक बसूंक शकना. चित्रां काडिना तोय आर्टिस्ट आसूंक शकता आनी एकाद्या वेळा त्या लोकां परसूय बरो आसूं येता हें तांच्या ध्यानांत येवंक ना अजून.

हांव तोंड धांपून काम करपाक आरंभ करीन जाल्यार दोन वर्सां भितर तांचें पंगतीक बसपाक म्हाका केन्नाय जमतलें.

**१४.८.१९५३, शुक्रार**

स्वातंत्र्याक आनी हेर डायरेक वर्सां सारकींच जातात. स वर्सांच्यो घडामोडी हातूंत गुंथल्यात.

परत शिकपाचेर दुर्लक्ष जायत वता. परांच्यान सगळें सारकें ताळ्यार हाडपाचो यत्न करूंक जाय.

स जूनाक भायर सरून आठवेर मुंबयंत पावलों. बारावेर स्कूल ऑफ आर्टांत वचूंक लागलों. ताका आतां दोन म्हयने दोन दीस जाले. तितल्या वेळांत फातराचें काम : एक डिझायन, एक सोरपांचें कंपोजिशन, एक वाग प्लास्टर आनी मागीर फांतर, एक घुबड प्लास्टर. फातराचें ह्या टर्माक जातलें. सकाळचो मॉडेलिंगांचो क्लास. एक हात, एक पावल, दोन तोंडां घरांत पावलीं. सगळे तकलेचें काम कालच्यान चलता. ह्या टर्माक आनीक दोन तकल्यो आनी सगळो मनीर्स मोल्ड काडून घरांत येवंक जाय. ते शिवाय, मदल्या वेळार, एक कान, नाक, दोळो, ओंठ आनी हाता - पांयाचो जाता तितले studies मोल्ड जावन घरांत पावोवपाचो विचार. प्रत्यक्ष कितें घडटा तें पळोवपाक जाय. लांकडाचें काम, एक हरणाचें पांयजेल करपाक घेतलां. पणून आवतां चलोवप आनी तांकां धार काडप पयलीं शिकून घेतां. पेंटिंगाचे बाबतींत - स्कॅच बूक तयार करप, आनी फाटल्या स्कॅच बुकांतले बरे बरे animal आनी human studies तिंतांत तयार करप. Quarter sizeचो cartridge paper वापरप. दूजभर तयार आसात : तीन composition मीर्गाचो डिझायन. शिवाय still Life आनी landscapes करूंक शिकपाची तजवीज - ऑयल आनी वॉटर कलरांत.

पयशे चड खर्च करिना. जाय तितलोच खर्च चल्ला.

**१५.८.१९५३, शेनवार**

२९ आगोस्ताक म्हाका तीस वर्सां जातात. जिणेचो अर्द वांटो सोंपलो. एकंदरींत बरो गेलो.

हे फुडें उरल्या ती जीण योग्य तरेन काडपाक जाय. आतां हो दुसरो वांटो दोगांचो. पयलींचो वांटो एकल्याचोच. फुडल्यो चुको जरी एकल्याच्योच जाल्यो तरी पूण दोगांक भोगच्यो पडटल्यो. पयलीं आपणें चुकप आनी आपणेंच भोगप असोच मार्ग. आतां एकल्यान चुकप आनी दुसऱ्यानूच बशिल्ले कडेन भोगप असो आडमार्ग.

फाल्यांच्यान पयलीं सगळें सारकें जाग्यार घालपाचो व्यवस्थीत प्रयत्न जावंक जाय. फाल्यांच्यान खरेल जिणेक आरंभ. जिणेचो बरे आनी वायट परिस्थितींत पूर्ण आनंद मेळोवप.

**१३.९.१९५३, आयतार, पंचम.**

ओतुब्राचे धा तारकेच्यान स्कूल ऑफ आर्ट सोडून स्वतंत्र तरेन शिकपाचें थारायलां. Advanceक बसूंक मेळ्ळ्यारूच चड करून स्कुलांत वचपाचें चालू दवरप म्हूण थारायल्लें. पणून तें जमलेंना. तिसऱ्या वर्साक बसूंक दिलें तांणी. अर्थांत हांवें स्पश्टकायेन नकार दिलो. Bargaining करपाचें नाशिल्लेंच.

घरा वचून मागीर फुडलें शालूक विचारून थारावप. ताका दिसलें, चार दीस रावचें जाल्यार रावलों, नाजाल्यार येवन कामाक लागलों. कामाची दिशा थारायल्या ती अशी -

शक्य आसल्यार कामतीलें प्रॉपोश्त मानप. नाजाल्यार घराच फातर, लांकूड नाजाल्यार माती हाडून वावरप. ते शिवाय, sketches, still life, portraites, landscapes, compositions अश्या सगळ्या तरांत काम करप. सदांच, जावं वेळा प्रमाण, मुंबय विद्यापीठांत आनी पेटीट लायब्ररींत वचून नेमान कॉपी करपाचो वावर करप. Rajput paintings आनी Jain miniature paintings वाज ये म्हणसर बराबर कॉपी करून दवरुपाचें मनांत आसा. ते मागीर स्वतंत्र composition करपाक लागप. हो इतलो वावर स म्हयन्यां पुरतो. परत मार्स, आब्रील, माय शालू म्हऱ्यांत काडप, आनी फुडल्या जून म्हयन्या पसून दीस रात नोकरी सोदप.

(मुखार चलता)





# वॉल्डन सरोवर आनी ताचे तडी वयलो एक चिंतक

[ रान-रावतिर्केतलीं अडेज वर्सां ]

**मूळ इंग्लीश : हेन्री डेव्हिड थोरो**
**अणकार : पु. म. तडकोडकार**

एकाद्र्या दादल्याक अयस पयस पणान कितेंय करूंक संद मेळ्ळी जाल्यार ताका तें करूंक नव्या सुटाची गरज आसची ना, ताका पोरणो सुट्रूच चलतलो, जो पोटमाळ्या वेले कुडींत अनिश्चीत काळा सावन धुल्लांत दवरिल्लो आसा. पोरण्यो व्हाणो तांच्या कर्तृत्वी मनशाच्या सेवकाची, जर त्या कर्तृत्वी मनशाक एकाद्रो सेवक आसत बी जाल्यार, करतल्यो आशिल्ल्यो ताचे परसूय ताची सेवा चडावत काळ करतल्यो, अनवाणी पांय हे मोच्यां परसूय पोरणे, आनी तो तांकांय ती करूंक लावंक शकता. निखटे जे संध्या-सभेक[३०] वो विधीमंडळाच्या संध्या-मेलनाक वतात, तांकां मात नवो कोट, कोटस् इतले की तो मनीस थंयसर जितले फावट-न्हेसूंक पावता तितले, जाय पडटात. परंत म्हजी हातकापी ज्युदी आनी पाटलोण, म्हजी हॅट आनी व्हाण, मंदिरांत वचून परमेश्वराची भक्ती करूंक फावोशी आसत जाल्यार तीं चलतात. चलचीं नात व्हय? जाणें, ताचें हें पोरणें न्हेसण - पोरणो कोट पळयिल्लो आसतलो, जो पुराय कट्टर-फटकूर जाल्लो, ताच्या आदल्या मूळतत्वांच्या रुपा कडेन पाविल्लो, इतलो की तो दिवन एकाद्र्या दीन-दळिद्री भुरग्यांक दानधर्म करपाचीच कृती जाली ना, त्या भुरग्या वरवीं घडये तो आजुनूय हेर एकाद्र्या खांकनवाळ जाल्ल्याक वो ताण दुडवांकाराक जाचे कडेन हो लेगीत ना, ओंपपाक दिल्यार कशें? हांव सांगतां, अशा साबार कपशेच्या वेव्हारां सावन सादूर रावात जांकां नवें न्हेसण लागता, न्हय न्हेसण करपी नवे व्यक्ती सावन, नवी व्यक्ती नासतूच जाल्यार नवें फावोशें-न्हेसण कशें घडयतलें? तुमचे मुखार कपशेचो वेवसाय आसलोच जाल्यार तो तुमच्या पोरण्या न्हेसणांतूच चलोवपाचो येत्न करात. साबारांक कसल्या-कसल्याय गजाली करपाच्यो नासतात, तर कितेंय तरी करपाचें आसता, वो कितेंय तरी जावंक करपाचें आसता. आमी पोरणो सूट हाताळिल्लो आशिल्ल्यान, कपशेचो वेव्हार-वेवसाय केल्ल्यान, वो ते दिकेन व्हांवन गेल्ल्यान तो कितलोय म्हेळो, बोंदऱ्या-फाळी आशिल्लो, तिसत्यो-वादऱ्यो जाल्लो जावं, आमकां आमीं त्या पोरण्यां सुटांत नव्या ताल्ल मनशा वरी दिसूंक जाय आनी तो नवो सोरो पोरणे बाटलेंत[३२]

**नवथी खिस्त**

सांबाळून दवरिल्ले वरी दिसूंक जाय, देखून आमी नवो सूट मेळोवपाचो येत्न केन्नाच करूंक फावना. सावदा वरी, कात, पांखां, ल्हंव सोडपाचो रूतू आमचेय जिणेंत एक संकश्टाची घडी कसो आसूंक जाय. जीणभर उदकांत बुचकळी मारून भितल्ले भितर पेंवपी भंगड-पिसांट जलसर लून[३१] सुकणें निवृत्तीच्या काळांत एकांतांतल्या सरोवराचे तडीर वचून दीस काडटा. तेच परी, अंतर्गत आंदोलना वरवीं सोरपा सारकें जिवाणें कात आनी कुसुंडो आपणालें किडीचें लुगट सोडटा; परंत लुगटां म्हळ्यार नाखटा पोंदचे कातीचे भायले वटेन आशिल्ले नाशवंत रेवोडें. ना जाल्यार आमी म्हळ्यार कृतक रंगांचे व्हांवतेंत आसात म्हणपाचें दिसून येतलें आनी आमच्याच भावार्थ-ग्रहांनी तेच परी मनीसजातीनूच निरुपायान आमकां भायरायल्ले आसतले.

आमी लुगटाचेर लुगटां चडयतात, जशीं काय रुखाचो गाभो सोडून गांवार घालीत, पातळत वचपी वनस्पते वरी आमी वाडिल्लीं आसात. भायलीं सदांच विरळ-कल्ल कशीं आनी ओड-नाद लायणीं हीं आमचीं लुगटां आमचे अपि-त्वचे वरी वो लटीक काती वरी, जीं भागी जातात, आमचे जिणेची मात न्हय, आनी निर्वस्त्र जातात हांगा तशेंच थंय, कसलोच मर्माचो-जीवघेणो घाय जाय नासतना; आमची जाडी-भरडी, सतत फटकूर जाल्ली लूगटां जावन आसात आमचे एकोडेपणा भायलें आवरण, वो वल्कल; परंत आमची खोमसां 'लायबर'[३३] वो रुखाचे अंतकांती वरी आसत, जीं रेवडावं नासतना आनी अशे तरेन मनशाक ना नपश्चात करी नासतना काडूंक मेळनात. म्हजो भावार्थ असो की साबार वंश-कुळी-विशी ह्या वो त्या रुतूंत खोमसा वरीं कितेंय तरी न्हेसतातूच. मनशाक काळखांतूय आपणालेंच न्हेसण आपूण न्हेसलां अशे दिसपी आनी कसलेय परिस्थितींत, तेच परी सोंपेपणी आंवळून-कवळून न्हेसल्यार बरें, कित्याक तर दुस्मानांनी ताचें नगर हातासल्यारूय, तो एकाद्र्या जाणटेल्या तत्वज्ञा वरी कसलेच तरेचो कांच-उतळताप दवरिनातसना दवरटो हुंपून रित्या-पोल्या हातांनी वचूंक पावतलो.

जे मेरेन चडावत अशा अद्रूण-हेता पासत, तीन विरळ-पातळ लुगटां परस एक दाट-गच्च-लुगट आसता आनी विकतें घेतल्याक पुटवण करपी अशें घेऽ म्हणून सवाय भितर आशिल्लें न्हेसण हातासूंक येता, जे मेरेन एक दाट-गच्च कोट, जो जायतीं वर्सा तगतलो असो पांच डॉलरांनी विकतो घेवं येता, एक दाट-गच्च पाटलोण दोन डॉलरांक, देड डॉलराक गो-चर्मा सावन घडयिल्ली फांपरा-मोच्यांचो जोड. उबाळ्या दिसांनी घालपाचें चेपें पाव डॉलराक, आनी साडे-बांसश्ट सेण्टांक, वो नाममात्र पडटर मोलांत घडयिल्लें घरावें अशें शिंया दिसांनी घालपाचें चेपें, जंय तो इतलो खांकनवाळ की ताका, आपणेंच केल्ले जोडींतल्या अश्या लुगटांत पळोवन ताका सन्मानान नियाळपी एकलोय शाणो बुदवंत मेळचो ना व्हय? जेन्ना हांव एका खेरीत आकाराच्या आंगावल्या विशीं विचारतां, तेन्ना म्हजी शिंपीण म्हाका जडाय स्वरांत, ''हालिंसरा, ते असलीं घडयनात'' तेदेवेळार ती 'ते' ह्या उतराचेर भार घालिनासतना सांगता जशीं काय तिणें अशा भागधेयावरी अधिकारिणी कडेन व्यक्तीगत संबंद नाशिल्ले वरी उद्धरण चिन्नांत मांडलां आनी म्हाका जें जाय तें घडोवन मेळोवप भोवच कुस्तार जालां. हाचें सादे-सुदें कारण अशें की ती म्हाका जें सांगूंक सोदता, ताचेर तिचो भावार्थ ना, कित्याक हांव तर इतलो हुळहुळो-हुतहुतो. ज्या खिणाक हांव अशी दैवी वाणी आयकतां, हांव खीणभर चिंतपांत चिट्‌टून येतां. त्या उतराच्या अर्था लागसार पावचो देखून म्हज्यांतल्या म्हज्यांत हांव त्या उतराचेर भार घालतां, घडये कितल्या अंशा मेरेन 'ते'चे सपिण्डतायेचें नातें 'म्हजे'कडेन लावं येता काय, आनी तांचे कडेन ह्या प्रकरणांत असो कसलो अधिकार आसूं येता जो इतलो लागसारपणान परिणामकारक जावं येता. आनी निमाणे कडेन तिका तितल्याच गुमानीतपणान प्रतिउत्तर दिवपा वटेन हांव वणसू-लकूंक लागतां, आनी तेंय 'ते'चेर चड भार घालिनासतना- ''नवसारा-हालिसरां तांणी ते घडोवंक नात हें खरेंच, पूण आतां ते घडयतात.''

म्हजी लांबाय-रुंदाय-उंचाय-दाटाय जोखपं हाका, ती म्हजी शीळ-चाल जोखूंक पावली ना जायत जाल्यार कसलो उपेग तर, निखटी म्हज्या भूजांची रुंदाय, कोट हुमकळावपाची खुंटी आशिल्लेवरी? आमी उलोवपा-चलपांतले सोबितायेची, तशीच पाहार-सी[३४] चीय पुजा करिनात, करतात ती निखटी चालंत काळांतले लोकप्रिय अशे टुमेची. ती कांतता आनी विणटा आनी कातरता पुराय अधिकारिणी जावन. पारिसांतले मुखेल खेतें एकाद्र्या भोंवडेकाराचें चेपें लकयता, आनी अमेरिकेतली सगट खेतीय तेंच करतात. ह्या संवसारांतली सामकी किचनकडीची न्हय आनी प्रांचल अशी एकाद्री गजाल मनशां वरवीं करून घेतना म्हाका कांय फावटीं निर्शेवणी येता. तांच्यो पोरण्यो धारणा, उपरांत त्यो तांच्या दोंक्यांर पर्थून उबें रावूंक पावच्यो न्हय, आनी उपरांत अश्यांच्या सांगातांत कोणूय आसूं येता, जाचे तकलेंत तांतयांतल्यान फुटून आयिल्लो एकाद्रो रवंथो केन्ना सावन सुगूर-कसय आशिल्लो, असल्यांक उजोय जिवानशीं मारूंक पावना, तेच परी तुमचे स्रमय फुक्यां-सवाय वचूं येतात, देखून तांच्यातल्यान त्यो पिवळून काडून भायरावपा पासत, अशा मनशांक आर्दी बळिश्ट चेंपणांतल्यान वचचें पडटलें. इतलेंच न्हय तर मम्मीन आमच्या पोशांन कांय इजिप्ती गंव दिल्लो म्हणपाचें आमी विसरायेर घालूंक पावचे नात.

कुल्लीं उतरांनी सांगचे जाल्यार, म्हाका दिसता की जावं ह्या वो हेर खंयच्याय देशांत, न्हेसण हें कलेच्या पांवड्यार पावलां म्हणपाचें समर्थन करूंक जावचें ना. मनीस, तांकां जें मेळूंक पावता तें आरथून परथून न्हेसतात. जे तरेन तारूं बुडटकच तारवटी वेळेर जें गावता तें लकयतात, आनी इल्लो मुखार, जावं थळार पावतकच वो उसरपतीन, एक एकल्याच्या रपड्या-सवंगाक देखून बकच्छायो करतात.

प्रत्येक पिळगी आदल्या-पोरण्या काळांत चालंत आशिल्ले मोदीच्यो बकच्छायो करता; परंत ती नवसाराचें मात धर्मीकपणान अनुसरण करता. सम्राट आठवो हेन्री, वो महाराणी एलिझाबेथ हांची मानवभक्षी कानिबाल जुंव्या वेलीं[३५] राजा आनी राणी कशी दाखोवपी

न्हेसणां देखतकच आमकां भोवच रंजवण दिसता. एकाद्रो मनीस आलायत्या न्हेसणांत अपुर्बुद्दीचो वो अर्दो मनीस आनी अर्दो पशू अशे आकृतायेचो कसो दिसता. नकसूदपणान गंभीर स्वरुपाची नियाळणी करपी दिश्ट आनी आंतरीकपणान जियेवपी प्रांजल जीण बकच्छायेचेर निर्बंध घालता आनी लोक खंयचोय आसूं, तांच्या न्हेसणाक मानून घेतात, हालोक्विनाक[३६] पोटखाण-वळाठो जावं, मागीर पळयात ताच्या साजशिरंगाराच्या न्हेसणाक लेगीत ताचे ते तंद्रेची सेवा करची पडटली. जेन्ना एकाद्र्या सैनिकाचेर नाळे-गुळीचो प्रहार जाता, तेन्ना ताचो गणवेशय जांबळ्या-वांयग्या रंगाचो[३७] जाता.

वर्तमान काळांतले हे पिळगेचो आशिल्ली ओड पळोवन नव्या नाट-पतीच्या सोदांत आशिल्ली दादल्यांची आनी अस्तुऱ्यांची पोरांटीं आनी रानवटी रसनेन्द्रियां चित्रविचित्रक नाळी हालयत आनी तातूंतल्यान तिरशे दिश्टीन नियाळत खेरीत आकृतीचो सोद घेत रावतात. उत्पादकाक हीं रसनेन्द्रियां म्हळ्यार निखटीं कोल्लीपणां आसात म्हणपाचें गिन्यान जालां. हातूंतल्यो दोन नाट-पती निखट्या कांय सुतांच्या चडावतपणान वो विवक्षीत रंगाच्या उणाकपणान चिके विंगड आसतात, एक चटकन विकता, जाल्यार कत्रेलांतले आडवे फळयेचेर हेर नाट-पती पडून उरतात, जरी कितलेशे फावटी अशें जाता की कांय कळावा उपरांत मोद-परिवर्तनाचो रुतू येना फुडें हेर नाट-पतींची चडावत कशी टूम जातात. तेच परी मनशाचे कुडीचेर सुयेन चित्र कोरांतून तातूंत रंग भरपाचो आचार ही तशी विद्रूप-हळशिकवाणी प्रथा न्हय. खोल त्वचेंत कोरांतपी आनी अपरिवर्तनीय असो तो आचार आसल्यारूय ताका निखटो हेंगाडी-रानवट म्हणूं नज.

आमच्या गिरण्यांची यंत्रणा, जिचे वरवीं मनशांक कपडे मेळटा जायत, ती अत्युत्तम तरा अशें म्हणपाचें गजालीचेर म्हजो भावार्थ ना. चडावतपणान इंग्लंडांतले पद्दती वरी दिसपट्टे परिणाम जावंक लागल्यात[३८] आनी ताचे संबंदान अचर्यांत पडपाचेंय ना कारण जितलें हांवें आयकलां वो नियाळ्ळां, की ताचे फाटल्यान वस्तुनिश्ठ हेत हो मनीसकुळयेन बरे तरेन आनी प्रांजलपणान न्हेसण करचें हो न्हय, तर प्रस्नाविरयत हेत असो की वेपारी संस्थांची आस्पत वाडोवपाचो. दूरगामी परिणाम असो की मनीस आपणाल्या ध्येया कडेन जसो नेम धरता तसो.

(मुखार चलता.)

संदर्भ टिपो :

३०. soirees - संध्या-सभा; हे तरेची सभा जातली म्हणपाची नोंद संस्कृत साहित्यशास्त्रांतूय मेळटा.

३१. loon- grebe (gri:b)- Any of various long-necked acquatic birds constituting the family. Podicipediate (and order Podicipediformes), having unwebbed lobate toes and able to dive and swim under water. हाचे वेल्यान plumage of a grebe अशें उतर घडलें.

३२. नवें बाटलेंत पोन्नो सोरो, अशें म्हणपाची चाल आसा. ही चाल बायबलांतल्या मॅथ्यू ९:१७ त दिल्ल्या दृश्टांता कडेन लागसार दवरता. ताचो संदर्भ असो- ARAMALC BIBLE IN PLAIN ENGLISH :
"Neither do they put new wine in old wineskins. lest the wine-skins burst and the wine is spilled and the wineskins are destroyed; but they put new wine in new wineskins, and both are preserved."
- बायबलाच्या काळांत चामड्याची बाटली करून तातूंत सोरो भरताले. कांय काळान ती बाटली जीर्ण जाताली. तो सोरोय कुसतालो आनी आकारान वाडटालो. परिणामीं, चामड्याची बाटली फुट्टाली. देखून नव्या चामड्याची बाटली करून तातूंत तो पोन्नो सोरो भरचो पडटालो.
इतिहासपूर्व काळांत कुंभार माती-शेड घेवन जे आयदान-कास करताले. तिका *बाटली* म्हणटाले. ते बाटलेक भायले वटेन शिवून काडटाले आनी बिरेव आनी डामराची भरस करून तिका घट्ट धांपणे करताले. इसवी सन पूर्व पयल्या शेंकड्यांत फिनिशियनांनी पयली कंवचेची बाटली घडयली. तश्यो कांय स इंचांच्यो पारदर्शक आनी अल्पपारदर्शक बाटल्यो सायप्रसांत तेच परी न्होडसांत मेळ्ळ्यात. त्यो घडये सुगंधी द्रव्यां भरून दवरपा पासत घडयिल्ल्यो आसतल्यो. रोमनांनी फिनिशियनां कडसून बाटल्यो घडोवपाची कुशळताय आपणायल्या आसतली. 'बाटलो' हें उतर इंग्लीशी भाशेंत चवदाव्या शेंकड्यांत आयलें ते फ्रांसेस भाशे वरवीं (boteille). फ्रांसेस भाशेंत तें उतर लातीन भाशेंतल्यान (butticula) आयलें. BUTTIS म्हळ्यार कास. हें उतर ग्रीक भाशेंतल्यान (म्हळ्यार तारूं) रिगलें आसुये.

३३. थोरो हांगसर 'liber' ह्या उतराचे उपयोजन करता. रुखाची अंतकांत, चर्मपत्र वो ग्रंथ बरोवंक वो रंगोवंक कमायल्लें कातड्याचें पान असो. त्या उतराचो अर्थ. हें उतर अठराव्या शेंकड्यांत चालंत आशिल्लें. ताचे आदी तें रोमन धर्मांत आनी पुराणांत चालंत आशिल्लें. *लायबर* म्हळ्यार *स्वतंत्र* असो *लायबर पेटर* म्हळ्यार स्वतंत्र पिता, जो दाकांचें पीक काडपाचें शास्त्र आनी दाकांचो अभ्यास करूंक लावपी, मद्याची निर्मणी करूंक शिकोवपी, जनन-फलन करपाची तांक वाडोवपी, आनी स्वतंत्रतायेची मांडणी करपी देवता. ताचें पडबिंब बाच्चूश आनी डायनोसिस ह्या ग्रीक देवतांतूय उमटिल्लें दिसून येता. ह्या एका आनी अशा अगणीत उतरां वेल्यान थोरोचें वाचप कितलें खोल आनी सुक्षीम आशिल्लें म्हणपाची साक्ष मेळटा.

३४. Par-cae- [pahr-see, -kahy] प्राचीन रोमांतल्यो तीन भाग्यदेवता. तांची व्युत्पत्ती 'पारसा' नामक देवतेच्या अस्तित्वांत आसा. तशेंच ती ग्रीक पुराणांतलो Moe-rae-mee-ree हे देवते कडेन आसा.

३५. *कानिबाल जुंवो*हो अस्तंत सायबेरियन वाठारांत आसा. अलेक्झांण्ड्रोव्हस्की प्रांतांतल्या तॉम्सचे उत्तर दिके वटेन अनुमानान आठशीं किलोमिटर अंतरा वेलो हो जुंवो ऑब आनी नाझिना न्हंयांच्या संगमांत आसा. ह्या जुंव्याक 'मर्णा जुंवो' अशेंय संबोधतात, कारण १९३३ ह्या वर्सा सोविएत युनियनाचो मुखेली जोसेफ स्टालिनान (म्हळ्यार वर्तमान रशिया देशान) स सहस्त्र जाणांक थंयसर निखट्या पिठाचें अन्न, कांय आवतां आनी नाममात्र न्हेसण वा आलाशिरो दिवन भायरायिल्ले. हे कृतीक न्हंयेच्या नामोल्लेखाक लागून *नाझिनो अफेसर* अशेंय संबोधतात. हातूंतले निखटे दोन सहस्त्र लोक वाटावले आनी चार सहस्त्र लोक मेले. देखून ह्या जुंव्याक उल्लेखून *कानिबाल जुंवो* अशेंय म्हणटात.

३६. *हार्लेक्विन* ही इटालियन 'कॉमेडिया देल्ल आर्त' हातूंतली एक विनोदी व्यक्तिरेखा. ती 'जन्नी' म्हळ्यार आपणाल्या धनयाच्या आड नाडेपेन्नां करपी, सुडसुडीत-झरझरीत, कोलेबुद्दीच्या सेवकाची भूमिका. लोकप्रिय इटालियन अभिनेतो त्रिस्तानो मार्तिनेल्ली हाणें ही व्यक्तिरेखा १५८० वर्सा निर्माण केली. जिनसांवार चौकटींचे न्हेसण केल्ल्या त्रिस्तानोची ही भूमिका ताच्या मर्णा उपरांतूय (१६३०) रंगमाचयेर मुखेल स्वरुपांत अन्न्रंवर उरली. अठराव्या शेंकड्यांत ती इंग्लंडांत आयली. व्हिक्टोरियन इंग्लडांत विदुशक आनी *हार्लेक्विन* अशी युगूलाची मांडणी जाली. उपरांत विसाव्या शेंकड्यांत ते भुमिकेन अंगविक्षेप करपी विनोदी अभिनयाचो एक प्रकार म्हूण आकार घेतलो.

३७. मध्यकालीन येवरोपांत निळो रंग दुर्मीळ आशिल्ल्यान म्हारग आसतालो आनी जांबळ्या - वांयग्या रंगाचें न्हेसण हे बळिश्ट तेच परी गिरेस्त लोकां कडेन आसतालें.

संपर्क: 0832-2423577



# परमळीत जीण म्हजी

## सुहास यशवंत दलाल

चवथी खिस्त

भुरगेपणांतल्यो सांग्यावेल्यो खबरो सोंपून सोंपच्योनात. त्यावेळार कुडचडेंच्यान सांग्यार पाट्यां मेरेन येवपी रस्तो आनी काम्रा (Municipality) मुखावेल्यान पोश्ट ऑफिसा मेरेन पावपी रस्तो डांबरी आसलो. बाकी सगळे रस्ते मातयेचे. हाका लागून तिसकट्यार खंयचेय सुवातेर मिलां काडून आमकां गड्ड्यांनी खेळपाक मेळटालें. खेळ सोपतगीर आशिल्ली तशी माती घालून आमी मिलां पुरयताले. गड्डे मोट्या बोरां येदे आसताले. मदींच दोन रंगांचे गड्डे बाजारांत आयले. पूण नेटान पेणो बसत जाल्यार तांचीं दोन धापळां जातालीं. गड्ड्याच्या खेळांनी जाचेर हार पड्टा ताका 'घूस' काडची पडटाली. घूस दोन तरांची आसताली. उजवे हाताचीं बोटां जमनीक पालशीं तेंकोवन गड्डो धुकलीत मिला मेरेन पावोवचो पडटालो. दुसऱ्या प्रकारांत हाताचीं चार बोटां बागोवन हाताच्या पेरांनी धुकलीत गड्डो मिलांत व्हरून घालचो पड्टालो. अशें केल्ल्यान हाताची पेरां सोलतालीं.

गड्ड्यांनी खेळपा फाटोफाट 'लगोऱ्यो', 'कोयंडो बाल', 'लंगडी', 'कुदुऱ्यो' असले खेळ आमी खेळटाले. कुडचडेचो एन. सुहास हाणीं गोंयच्या पारंपारीक खेळांचेर 'खेळांगण' नांवाचे बेस बरें पुस्तक बरयलां. खेळांची आवड आशिल्ल्यांनी तें मुजरत वाचचें.

वेले खेळ हे घरा भायर खेळपाचे. पावसा दिसांनी आमी 'ताबुलफळ्या'चो आलाशिरो घेताले. ताबुलफळें उरफाटें करतगीर ताच पोंदा 'कांगांचो खेळ' रंगयल्लो आसतालो. एकाच रंगाच्यो तीन घुलो आडव्यो वो उब्यो ओळीन आयल्यो जाल्यार ताका 'कांग जालें' अशें म्हण्टाले. ह्या खेळांत सामकें शिटूक रावचें पडटालें. लक्ष मात्शें दुसरे कडेन गेलें जाल्यार सामकार बशिल्लो खेळगडो 'कांग' करून मेकळो जातालो. ताबुलफळ्यार आनीकय तीन - चार खेळ खेळपाक मेळटाले. पूण ते आमकां कोणेंच शिकयले नात. कांगाचो खेळ हो एकाग्रताय वाडोवपी खेळ. खरें म्हळ्यार असले कांय पारंपारीक खेळ आमी परतून जिवीत करूंक जाय.

पावस सोंपता सोंपतां दत्ता नार्वेकाराल्या घरा कुशीक धा-बारा मिटर लांबाय आनी तीन - चार मीटर रुंदायेचे सुवातेर शेकानशेक पुरुसभर उंचायेचें ताळखिळ्यांचें झूल मात्तालें. ह्या झुलांत घुसून आमी 'लिपचेल्यांनी' हो खेळ खेळटाले.

खंयच्या पंगडान खेळ आदीं सुरू करचो, तें थारावपा खातीर एके नळखुटेचेर एके वाटेन थुकी लावन ती वयर उडयताले. ती सकल पडचे आदीं दोनय पंगडांच्या मुखेल्यांनी आपणाक ओली जाय काय सुकी जाय तें सांगचें पडटालें. निथू लायिल्ले वाटेन नळखुटी जमनीर पडली

जाल्यार 'ओली' म्हुण सांगपी पंगडाक आदीं खेळपाक मेळटालें. कोणाच्याय बोल्सांत नाणे आसलें जाल्यार नाणे वयर उडोवन 'कुरू' काय 'बावलो' पड्टा तें पळोवन खेळ सुरू करताले. 'ओली-सुकी' आनी 'कुरु-बावलो' म्हळ्यार आतांचे भाशेन 'टॉस'!

तिसकट्या मर्दी एक लोखडाचो पोकोळ खांबो रातीचो पेट्रोमाक्स दिवो पेटोवपा खातीर आसतालो. ताचेर फातरान वो नळखुटेन धोडायत जाल्यार कानांत सुखदिणो आवाज येतालो. आमोरी जातगीर दत्त मंदिरा कडलो जना खांब्या वयर पेट्रोमाक्स दिवो लावन वतालो. केन्ना केन्नाय हो दिवो झेमतालो वो भगभगतालो केन्ना आमच्यांतले मात्शे व्हडले भुरगे धांवत वचून जना लार्गी कागाळ करताले आनी बरो दिवो हाडीसर ताची फाट सोडिनासलें. दिवो लावपाक मात्सो कळाव जालो जाल्यारय खंय आसा थंयच्यान आमी ताका सोदून हाडटाले आनी चकचकीत उजवाड दिवपी दिवो तिसकट्यार लावपाक लायताले. ताच्या वांगडा दोनूय हातांत दोन दिवे घेवन चलपी एक मानांय आसतालो, पूण आमचे मदले एक - दोन भुरगे ताचे सरीं गेले जाल्यार 'तिसकट्यार बेगीन दिवो लावपाक जाय मरे हांवें, जाल्यार हे दोन दिवे तुमी धरात' अशें तो फुसलावन सांगतालो. भुरगेय ताचें आयकताले. ह्या दिव्यांची सरकारी पावणी जाताली, पूण वर्सान वर्स जनाचेच व्हटयेंत पावणी 'सा' जाताली.

तिसकट्या उप्रांत आमचो खेळांची दुसरी सुवात म्हळ्यार विठोबा देवूळ! ह्या देवळांत तीन - चार फूट उंचायेचीं काळ्या पाशाणाची सुरेख मूर्त कमरार हात दवरून उबी आसा. विठोबाच्या उजव्यान रुक्मीण आनी दाव्यान सत्यभामा आसा. विठोबा परस उंचायेन त्यो बऱ्योच ल्हान आसात.

कोणेय फट माल्ली जाल्यार आमी ताका विठोबाचो सोपूत घेवपाक लायताले. आपणे फट मारूंक ना जाल्यार तो उजवे चिमटेंत गळ्याची कात धरून 'विठोबाच्यान तर!' असो सोपूत दितालो. 'आवयच्यान तर' ह्या सोपूता परस 'विठोबाच्यान तर' हो सोपूत घेतल्यार भुरग्यांक ताचें खरेपण चड भावतालें.

त्या काळार विठोबा देवूळ हें वैश्य - वाणयांलें, जाल्यार दत्त मंदिर हें सारस्वत - बामणालें अशें धरताले. वाणयांले भुरगे दत्त मंदिरांत गेले जाल्यार बामणाले भुरगे बेगीबेगीन सोपो आडायताले आनी आमकां सोप्यार चडून घांट मारपाक दिनासले. सकल रावन उडी मारल्यार आमचो हात घांटी मेरेन पावनासलो. 'जशाक तशें' ह्या न्यायान आमीय मागीर, ते विठोबा देवळांत आयले जाल्यार घांटी पोनच्या रंगशिळेर बसून तांकां घांट वाजोवंक दिनासले. 'आमचो देव व्हडलो, तुमचो देव ल्हान' 'आमच्या देवाक दोन बायलां, तुमच्या देवाक बायलच ना' अशें आमी तांकां तिडावपाक म्हणटाले. ताचेर ते परती जाप दिवन म्हण्टाले, 'तुमचो देव काळो, आमचो देव गोरो''. भुरगेपणांतलीं हीं पिशेपणां येवजून हांसूंक येता.

आमगेलो हो जातीभेद भुरग्या - भुरग्यां मदींच आसतालो. किटुलो बापूय बायण आसूनय ताणे विठोबाच्यो रथा-घुडयो वयर चडून रथाक रोमिल्ल्यो आमकां उपकारताल्यो; पूण किटून त्यो बापायच्या हातांत दिल्ल्यो आमकां उपकरनासलें. 'विठोबा देऊळ आमचें, म्हण्टगीर रथा-घुडयो वयर दिवपाचो हक्क आमचो' अशें आमी बामणा-भुरग्यांक शिटकायताले. हें आयकून ते नमतें घेताले आनी शिगम्या वेळार आमकां तांचे माचयेर चडूंक दिनासले.

हॉटेलांत वांगडा च्या पिवपी आनी बारांत वांगडा कुट्ट करपी वाणी - बामणाचो देवळांनी मात छत्तिसांचो आंकडो आसतालो. अंयशीं-पंचायशीं वर्सा फाटीं सांग्यावेल्या फांकीवंत वीरभद्राचें सवंग एक वैश्य-वाणी बरोच काळ सोबयतालो खंय अशें कांय वर्सां फाटीं म्हाका कै. अनंत व्यंकटेश शेट नार्वेकार हांणीं उलयता उलयतां सांगिल्लें. श्री विठोबा मंदिराच्या म्हाजनकी संबंधीचो 'देमांद' कितलीशीच वर्सां केपें त्रिबुनालार (Court) चलयतलो हें जाणां. अखेरेक वैश्य-वाणी त्या 'देमांदां'त जैतिवंत थारले आनी दोनूय समाजांतली तेढ अदीक रुंदावली.

मर्दी म्हापर्शेचो दोतोर खलप सांग्यार बदली जावन 'देलेगाद साऊद' (सरकारी दोतोर) म्हूण आयल्लो तेन्ना ताणें दोनूय समाजांत 'बेकी' आसली ती 'एकी' करपाचो वावर केल्लो, पुण तो परत बदली जावन दुसरे सुवातेर गेलो आनी हेवटेन ताच्या प्रयत्नांचेर उदक पडलें.

विठोबा देवळांत चौकाचेर दोन जाणांची वेंग पावना येदे चार लांकडी कोरांतिल्ले खांबे आसले. थंय आमी 'लिपचेल्यांनी' आनी 'खांब्यांनी' हे खेळ खेळटाले. धांवून पुरो जातगीर जनेलार बसून 'कोंब्यार उदक' वो 'कांगांनी' खेळटाले. 'कोंब्यार उदक घालप' हो खेळ कसो खेळटाले ताचो म्हाका आतां उगडास जायना. 'उदक सारकें पडना' अशें म्हणत दोनूय हात फाटीं-फुडें घश्टीत उदक घालपाचो फार्स करतल्याच्या हातार विरुद्ध खेळगड्याचीं थापटां खावचीं पडटालीं. तसोच चार बोटां आंवळून, आंगठो नीट उबो धरून विरूद्ध वांगडी 'उदक सारकें पडना' अशीं बातां मारून आंगठ्याचें बोट उदक घालप्याच्या हाताक नेटान तोंचतालो. पोबल्यालो व्हडलो भाव दासू ह्या खेळांत म्हाका सामको रडयतालो. तो आपल्या आंगठ्या बोटाचें नाखूट बळयां वाडयतालो. दुसऱ्यांक दुखापत करून खोस मेळोवपाची ताची एक आगळीच तरा आसली. कांय काळान हांवें ताचे लार्गी 'आट्टी गट्टी, बारा म्हयने फूऽऽ' केलें.

आनीक एक खेळ आसलो. चड करून चलयो हो खेळ खेळटालीं. एकमेकांच्या खांदार हात दवरून 'आपटी धोपटी खावचें पान, धरगो बेबी म्हजो खांद' अशें म्हणत बशिल्ले कडेन फाटींफुडें धोलत हो खेळ चलयो खेळटालीं. लगोऱ्यो खेळटासतना 'लाब, दोन, तीन...' अशें मेजनासतना तोणयेन 'पाव, चेटमेट, बिरमुट, गौडा, काला, बुच्चे, झील...' अशें मेजप आसतालें. तशेंच खंयच्या खेळगड्याक आदीं वेंचून काडप तें थारावपा खातीर दोनय हात झेलयत 'राम, राय, साय, सुऽऽटयो' अशें सगल्यांनी वांगडाच म्हणत हाताचे पंजे उदारे वो आडवे एकाच धपक्याक धरचे पड्टाले. चड जाणांचे आडवे पडत आनी एक-दोन जाणांचे हात उदारे पडत जाल्यार ते दोगूय सुट्टाले. तशेंच चड जाणांचे हात उदारे पडत आनी एक-दोन जाणांचे आडवे पडत जाल्यार ते दोगूय सुट्टाले.

विठोबा देवूळ हें आमचें जशें खेळपाचें केंद्र तशेंच तें आमचें सांस्कृतीक केंद्रय आसलें. त्या काळार वर्साक कितलीशींच किर्तनां,

प्रवचनां, विठोबा देवळांत आनी श्रीदत्त मंदिरांत जातालीं. बऱ्या बऱ्या फांकिवंत किर्तनकारांचीं किर्तनां हांगा जातालीं. देवूळ तुडूंब भरतालें. दादले चौकार आनी सरवळेंत बसताले आनी बायलो गर्भकुडी भायल्यान 'पार्टीशन' आसलें थंय बसताल्यो. पटवर्धन नांवाचो एक नामनेचो किर्तनकार त्या काळार 'राष्ट्रीय किर्तनकार' म्हूण फांकिवंत आसलो. तो पौराणीक आख्ख्यानाच्या बदला छत्रपती शिवाजी, झांशीची राणी, नेताजी सुभाषचंद्र बोस' आनी इतिहासीक आख्यानां रंगोवन सांगतालो. ताका विडयेचो वास मातूय माननासलो. विडयेचो वास आयल्यार आपूण किर्तन अर्ध्यार सोडून वतलों अशी तो शिटकावणी दितालो. विडी बहाद्दर ताका थर्त भिताले. एक खेपे वण्टीक वणखून हांव तागेलें किर्तन आयकतालों, तेन्ना पांय मुयेले देखून हांवें एक पांय सोडला मात, इतल्यात ताणें म्हजेर आकांताचो धेंगसो घालो - 'काय रे मुला, नीट बसतां येत नाही, शाळेंत मास्तरांनी शिस्त शिकविली नाही?' तागेलें वाक्य पुराय जावचे आदींच हांवें शॉक लागिल्लेवरी पांय दोडून घेतलो. आतां केन्नाय किर्तनाक बसतगीर पांय सोडीनसो दिसलो जाल्यार म्हाका त्या खिणाचो उगडास जाता आनी पांय सोडचे बदला हांव तो दोडून उबो धरतां.

किर्तनां आयकता आयकतां म्हज्या मनांत किर्तनकार जावपाची उर्बा निर्माण जाली. थोडे-भोव प्रमाणांत हांवें ती भागयलीयबी. आयजवेर हांवे तीन फावटीं किर्तनां केलीं. पयले खेपो कट्यार श्रीचंद्रेश्वर मंदिरांत, दुसरे खेपो पणजे कोंकणी भाशा मंडळांत आनी तिसरे खेपो सर्गेस्त रामभाऊ जुवारकाराच्या आग्र्याक लागून व्हडलें गोंय लागसारच्या एका देवळांत. तिनूय कडेन हांवें 'स्वामी विवेकानंदांचो संदेश' हो हांवेंच रचिल्लो अभंग निरुपणा खातीर घेतिल्लो:

**स्वामी विवेकानंदांचो संदेश**

*जायात बलवान*
*होच मंत्र महान*
*दिलो विवेकानंदान*
*निश्चयाचें बळ*
*जोडून दिता जाय तें फळ*
*होच संदेश महान ।।दिलो. ।।*
*दुबळ्यांची करात रे सेवा*
*पावतली ती रे देवा*
*होच आदेश महान ।।दिलो. ।।*
*सत्याची धरात रे कांस*
*बंदेपणाक घालात फांस*
*होच संदेश महान ।।दिलो. ।।*
*सगले धर्म न्हंयेसमान*
*पावयतात दर्यारुपी देवा म्हऱ्यान*
*होच आदेश महान ।।दिलो. ।।*

खरें म्हळ्यार कोंकणांतल्या सान्नी - कोनशांनी कोंकणी किर्तनां जावंक जाय. आदीं देवळांच्या माटवांनी मराठी नाटकां जातालीं. आतां हळूहळू तांची सुवात कोंकणी नाटकांनी घेतल्या. किर्तना बाबतींत हें कित्याक जावं नजो? खंयचेय तरी संस्थेन वो कोंकणी-मोगी गिरेस्तान हो वावर हातांत घेवंक जाय. मुखेल आख्यान आनी निरुपण कोंकणींत, पूण अभंग, श्लोक, दोहे बी मराठी, संस्कृत हिंदी वो हेर खंयचेय भाशेंत आसूं येतात. प्रशिक्षीत कोंकणी किर्तनकार तयार करपाक अशे एके शिश्यवृत्तीची सामकी गरज आसा. कोणूय मनार घेत काय हें?

काल्याचीं वो हेर खंयचेय परबेच्या नाटकांची येसाय चड करून विठोबा देवळांतच जाताली. तुकाराम फोंडेकार हो त्या काळचो फांकिवंत संगीतकार. पांय पेटयेचेर नाटकांच्या पदांच्यो चाली बसयतालो. येसाये परस आमकां पदां चड मानवतालीं. तीं आयकून आयकून आमचो संगिताचो कान तयार जातालो. मागीर भुरग्यां मर्दीय संगिताची जुगलबंदी लागताली. भाटी गांवच्या फाटोफाट सांग्यावेल्या काल्याचो नंबर लागतालो. भटाचें सवंग भाटीचो एक मोठेल्या पोटाचो भटच करतालो. संकासुराचें सवंग येतगीर आमकां खातकुतल्यो जाताल्यो. कालो पळयनासतना कोणूय भुरगो झेमेवपा लागलो जाल्यार ताची आवय ताका संकासुराचें सवंग येतगीर बळयां उठयताली. दुसरे दीस सकाळीं धंयकालो जातालो, पूण ल्हान भुरग्यांक तातूंत वांटो घेवंक दिनासले. गरुडखांब्या लागीं उदका कोळशे ओतून रेबड करताले आनी तातूंत धंयकालो खेळटाले. निसर जाल्ल्यान जायते जाण शेंवटून पड्टाले. 'निसरून पडप' हाका कोंकणींत 'शेंवटो धरप' अशें म्हण्टात तें हाकाच लागून काय?

सद्याचो विठोबाचो पुजारी नाना पराष्ठेकार हो म्हजो शाळेंतलो बालमित्र. कांय वर्सां फाटीं सांग्यार देवळांत गेल्लों तेन्ना नानान सांगिल्ली विठोबाचे सासाये विशींची गजाल अशी: "एक दीस एक मनीस सकाळीं फुडें दोन सान्नी घेवन आमगेर आयलो. ताणें सांगलें, "रातीं सपनांत तुगेलो बापूय आयलो आनी ताणें सांगलें की हालींसराक तुवें देवळांत सान्नी हाडून दिवंक ना; गरजेन जाय, फाल्यां हाडून दीच." हांवें सान्नी दवरून घेतल्यो. मागीर न्हावन धुवन सदचे भशेन देवळांत पुजा करपाक वच जाल्यार आदली कोनशाक दवरिल्ली सान्न लासून गोबोर जाल्या! आदले दीस फस्का-काडी मारून हांवें लामणदिवो पेटयल्लो आनी काडी पालवचे आदींच हांवें ती सदांचे संवयेन कोनशाक भिरकटावन मारिल्ली दिसता; काडी सारकी पालोवंक नाशिल्ल्यान काडयेचो उजो सान्नीक लागलो दिसता! गर्भकूड उगडचे आदींच सप्नदृष्टांत दिवन विठोबान नवीताल्ल सान्न हाडून दिल्ली!" हीं नानालीं उतरां आयकून म्हज्या आंगार कांटो फुल्लो!

तारी-पाण्ट्यार वचपा वाटेर गिरणी फाटल्यान एक बिमलिणीचें झाड आसलें. आमी भुरगे केन्ना केन्नाय बिमलां तोडपाक थंय वताले. थंय एक मोडकें घर आसलें. ताचें अर्द पाखें कोसळिल्लें आनी तातुंतसून घरांतल्या वण्टीच्या कुरकुटांत आशिल्ल्यो विठोबाची मूर्त आनी गणपतीची पाशाणी मूर्त दिसताल्यो. तें घर लकडशेटीलें म्हूण आमी आयकल्लें. म्हाका त्यो मूर्ती काडीनशो दिसताल्यो. पूण कांच - सो दिसतालो. निमाणें भटान काडल्यार पाप ना अशें येवजून हांवें त्यो काडपा खातीर नानाक चार आण्यांचें हांयस दाखोवन फुसलायलो. ताणें विठोबा म्हाका दिलो आनी गणपती आपणांक दवरलो. ती पांच इंची विठोबाची मूर्ती अजुनय आमगेल्या देवाकुडींत

आसा आनी दर दिसा ती म्हजे कडसून तुळशिची कोमरी आनी अनंताचीं दोन फुलां घालून घेता.

श्रीदत्तमंदिरांतय किर्तनां जातालीं. पूण तें देवूळ मात्शें पयस आशिल्ल्यान म्हाका वांगड सोदचो पडटालो. आनी हाका लागून केन्ना केन्नाय थंयचीं किर्तनां म्हाका चुकोवचीं पडटालीं. दत्त जयंतीच्या निमण्या दिसा थंय 'लळीत' जातालें. लळीत मात हांव चुकयनासलो. दोट्टी अर्थाच्यो होंवयो त्या लळितांत आसताल्यो. एक होवी म्हाका अजुनय याद जाता : 'म्हगेलें तांबडें, तुगेलें तांबडें, लोक म्हण्टी काय गे तांबडें?' ही होंवी तीन-चार खेपे म्हण्टगीर आमी केल्लो जापेचो अदमास चुकयत म्हणपी म्हण्टाले 'कपाळींचा कुकूम तांबडा.' कोंकणी - मराठीची सरमिसळ आशिल्ली ही लळिताची कार्यावळ भोव रंगताली. थंय बायलो देवळांत बसनासल्यो. देवळाच्या एका लादाक भटमामालें घर आसा, थंयच्या व्हारांदार बसून त्यो किर्तन बी आयकताल्यो. देवळाचे दावे वटेन फुडल्यान हरिश्चंद्र तारी नांवाच्या पसरकारान एक देवळी बांदून तातूंत मारुतीची मुर्ती बसयल्ली. हो मनीस लांब-रुंद पकदस्त आसलो. धवें-फुल्ल पुडवें, हळडुवसार ज्युदी (कोट) माथ्याक त्याच रंगाची तोपी, आनी नेटान धेपां घालीत चलपी हो मनीस भोव देवभोळो आसलो. तो नेमान विठोबा-देवळांत वचून भेट घेतालो. एक दीस असोच तो देवा सामकार हात जोडून उबो आसतना दिगंबर नांवाच्या मस्त्या भुरग्यान तीर्था-उदक व्हांवन वचपी नळाक तोंड लावन घोगरो आवाज काडून म्हळें, "वत्सा, मी तुझ्यावर प्रसन्न आहे, पाहिजे तो वर माग." हो आवाज गर्भकुडींत घुमलो. तारी कांय वेळ थतरवितर जालो, पूण भुरग्यांचो हांसो आयकून तो कितें समजुपाचें तें समजलो. भायर सरतासतना ताणें 'जाण्टयांची फकाणां करतात रे' इतलेंच नमळायेन म्हळें. उप्रांत तारी-पाण्ट्यावेले रासवळ घर सोडून ताणें विठोबा देवळा लागसारच स्वतंत्र घर बांदलें. हाका लागून नेमान विठोबाची भेट घेवप ताका सोपें जालें.

तारी पाण्ट्यावेली दुसरी उगडास उरपा सारकी व्यक्ती म्हळ्यार बोमडो. ताचें खरें नांव वो आडनांव आमकां भुरग्यांक खबर नासलें. ताची बोमली सॉद फोडपाक वापरतात ते गुड्डे परस मात्शी व्हडच आसली म्हळ्यार जाता. ताचो भेस तेन्नाच्या गवळ्यां वरी आसलो. माथ्याक हळदुवी देग आशिल्लो पाचवो रुमाल, आंगार हात-कापें काळसर रंगाचें जाकीट, भेंडाक धोंपरा वयर खोयिल्लें म्हेळकें धोतर आनी पायांक दाट जोतें. ताच्या एका कानाक वेले वटेन एक बाळी लोंबतालीशी दिसता. तो आंगापांगान लांब-रुंद आसलो. चड करून दर आयतार-बुधवाराक पोटलेंत कितें तरी घेवन पाट्यांत (बाजारांत) तो विकपाक वेतालो आनी येतना तेच पोंटलेंत बांदून संवसाराक लागपी वस्तू घेवन येतालो जावंये. सांग्यार त्या काळार आयतार-बुधवार बाजार भरतालो. सर्वसादारण मनशा परस ताची बोमली कितलेशे पटीन व्हड आशिल्ल्यान ताका 'बोमडो' हें अडेचें नांव फाव जाल्लें. तो तिसकट्यार पावचे आदीं भुरगीं ज़ळामळा आडोस आसा थंय ल्हिपून रावतालीं आनी तो लार्गी पावनाफुडें व्हडान 'बोमड्योऽऽ' म्हूण आलेट मारतालीं. आनी पळ काडटालीं. बोमडो रस्त्यावेले फातर काडून तांचे वटेन शेंवटितालो आनी कांय वेळान 'रस्ताद भुरगीं' 'आवयबापायलीं देख नाशिल्लीं भुरगीं' अशें तिडकीन पुटपुटत आपली वाट धरतालो. चुकून लेगीत ताणें पोजड्यो गाळी संविल्ल्यो हांवें आयकूंक ना.

आनीक एक दुखदिणी गजाल सांगतां. दोतोर दत्ता कोसंबो होय दर दिसा आमोरेचेर विठोबा देवळांत वेतालो. एक दीस आमी तिसकट्यार खेळटासतना एक मारको बैल आमी खेळटात तेवटेन नेटान येवपाक लागलो. हांव लार्गींचेच खळयेंत पडिल्ली एक बडी काडून ताका आमुडपा खातीर ताच्या फाटल्यान लागलों. दोतोर कोसंबो भेट घेवन देवळांतल्यान परत येतालो. बैल दोतोराक घश्टून फुडें गेलों. दोतोरान म्हजे वटेन पळयलें, पूण म्हाका कांय म्हळेंना. हांव रोखडोच मामाल्या घरांत भितर सरलों.

दुसरे दीस सकाळीं रडपा आवाज आयकून हांव सदचे परस बेगीन जागो जालो. दोतोराल्या घरा वटेनच्यान रडपा आवाज येतालो. हांवें आज्जेक विचाल्लें, "कोण रड्टा?" "दोतोर कोसंबो गेलो" - आज्जेन जाप दिली. 'कसो गेलो?' हांवें परत विचारलें. "ताका कुरासांवांचें आसलें." आज्जेन म्हळें. 'कुरासांवांचें' म्हळ्यार काळजा-दुयेंस - हार्ट अॅटॅक! म्हाका शेळो घाम फुटलो! हांवें आमुडिल्ल्यान बैल दोतोराक तेंकून गेल्ल्यान ताचें काळीच हाल्लें बी ना मूं? म्हजें मन म्हाका खायत रावलें. बाकीच्या खेळगड्यांनी बैलाक धांवडायतासतना म्हाका पळयल्लो. शेजारच्या सुमनानय पळयल्लो. पूण म्हजे वटेन कोणेच बोट दाखयलेंना. म्हाका सूऽऽ जालें. पूण दोतोराली तिरडी मसुंडेंत व्हरतासतना जनेलांतल्यान लेगीत भायर पळोवपाचें धाडस म्हाका जालेंना.

असोच एक फावट वास्तेव (वासुदेव) आनी सदानंदान मसुंडे लार्गी आशिल्ले दोंगल्लेचेर वचून कणेरां काडपाची येवजण म्हजे तकलेंत घाली. म्हाका चुन्नां आनी चारां परस कणेरां चड मानवतालीं. चारां आनी चुन्ना परस तीं बारीक आसतालीं. पूण तांचो सुवाद मात आगळोच. मसुंडे लार्गी म्हण्टगीर सुरवेक म्हजें मन फाटी -फुडें सरलें, पूण तांणी 'कांय भंय ना' अशें म्हूण सांगतगीर हांव कणेरांचे ओडीन दोंगुल्लेचेर वचपाक तयार जालों. आज्जेक कळीत केल्यार ती कशीच वचूंक दिवची नासली हें खबर आशिल्ल्यान हांवें पयलेच खेपे तिका सांगनासतना भायर पावल घालें.

वास्तेव आनी सदानंद म्हजे परस व्हड आसले. ह्या आदीं ते दोंगुल्लेंचेर वचून आयल्लें. म्हजी पयलीच खेप. 'आज्जेच्या कानार ही गजाल पडली जाल्यार?' असो मनांत विचार येवंक लागलो आनी सांबाऱ्याल्या घरा लागसार पावतगीर हांवें तांकां म्हळें, "तुमी कणेरां काडून हाडात, हांव हांगाच रावन तुमची वाट पळेतां. 'सामको भिवकूर मरे तूं!' - वास्तेवान थोमणो माल्लो. म्हाका लज जाली. हांव मोन्यांनी तांच्या फाटसून चलूंक लागलों. आमी दोंगुल्लेचे तेमकार पावले. कणेरीची वाल एके काजीचेर चडिल्ली आमी पळयली. वयर चडल्यार बोल्सां भरून कणेरां मेळटलीं असो आमी अदमास केलो. तिगांयलीं बोल्सां भरलीं. थंयच आडव्या काणी-खांद्यार बसून आमी कणेरां खावंक लागले. इतल्यान घूर्ऽऽ घूर्ऽऽ असो पयसुल्ल्यान आवाज येवपाक लागलो. 'वाघूट बी न्ही मरे?' -

सदानंदान हुस्को उक्तायलो. 'आमकां भेश्टावपाक दिगंबर मी आवाज काडटा आसतलो. तो आत्र्या पयन्यान कणेरां काडपाक हांगा येता' अशें सांगून वास्तेवान आमकां थातारलें. कांय वेळान होदाळचोच आवाज लागीं येवंक लागलो. झुडपांनी सळसळ जावपी आवाज येवंक लागलो. इतल्यान आमकां कांयच सुलूस लायनासतना वास्तेवान सकल आशिल्ल्या तळपाचेर उडी माल्ली आनी तो सकल धांवूंक लागलो. फाटोफाट सदानंदानय उडी माल्ली आनी तोय धावूंक लागलो. म्हजे पांय कडकडपाक लागिल्ले आसतनाय, आनी कांय उपाय नाशिल्ल्यान हांवेंय तांचे वरीच तळपार उडी माल्ली. मसुंडे कुशीक रस्त्यार ते म्हजी वाट पळयत धांपेत राविल्ले. खरस मारिल्ली आसतनाय आमी परत धांवत सांबाऱ्याल्या घरा लागीं पावले तेन्नाच आमच्या जिवांत जीव आयलो!

तिसकट्यार पाव जाल्यार दिगंबर हेरां वांगडा थंय खेळटा! 'म्हण्टगीर तो आवाज खरेल्या वाघुटाचोच तर!' - आमच्या मनांत आनी दुबाव उरलोना. हांवें दोनूय बोल्सांतलीं उरिल्लीं कणेरा थंय आशिल्ल्या इश्टांक वांटून वडयलीं. चडशीं कणेरां सकल उडी मारतासतना शिंवरून पडिल्लीं. कणेरांक लागून हो प्रसंग म्हजेर आयल्लो देखून एकूय कणेर चोखपाची म्हाका रूच उरलिना! ते राती म्हाका कशीच न्हीद पडलिना. परत परत तीच घडणूक धांपिल्ल्या दोळ्यां सामकार नाचूंक लागली. आज्जेक सांगनासतना गेल्ल्याचें पानवळ म्हाका मेळिल्लें.

(चलता.)

संपर्क: 9975407488



---

*(पान १७ वयल्यान)*

गजाल केली आनी ती अपायकारक थरली जाल्यार तें अस्वस्थ जातालें. अशें एका दोगा जाणांचे बाबतीत घडलें. ताका खंत जाताली ती म्हाका दुखताली. निर्मळ मनाच्या माधवीक असली अस्वस्थताय घडूंक फावना अशी म्हजी धारणा आसली. पूण तितलेंच बोटाक गुटलायत बसून रावपाचीय ताणें केन्ना संवय जडून घेतली ना. कोंकणीचे बाबतींत जितलें कठोर तितलेंच कोंकणीच्या मनशांचेर कसलोय वायट प्रसंग आयलो जाल्यार तें कळवळटालें. केन्नाय म्हजे विशींय चिंततालें, म्हणटालें खंय, हेमाचें कशें चलता आसतलें कोण जाणा! पयशांचें कशें भागता आसतलें काय!

ज्ञानपीठ पुरस्कार प्राप्त रवीन्द्र केळेकार गांधीवादी, विचारवंत आनी कोंकणीचे फायटर. पूण कोंकणीतल्यान एम्.ए. केल्ल्या एकाय विद्यार्थ्यांन तांच्या कार्याचेर वा साहित्याचर पी.एच्.डी. केली ना ही खंत रवीन्द्रबाबांक मर्णाचे निमाणे घडके मेरेन उरली. अशें तांणी उलोवनय दाखयिल्लें. म्हणटाले, इतले पुरस्कार मेळ्ळे पूण कोणेय म्हजेर पी.एच्.डी केली ना हें एक दुख उरलें. ते खातीर माधवीन यत्न केल्लो. ताचो एके विद्यार्थिनीन ते खातीर अधिकृत नोंदणी लेगीत केल्ली पूण ताचो प्रकल्प फुडें वचपाक पावलो ना. माधवीकय तें दुख्ख त्रास करतालें. कृपाली नायक हाचें माधवी कडेन लागींचे नातें. माधवी ताचें पी.एच्डी. चें गायड. ताच्या मार्गदर्शना खाला कृपालीची पी.एच्डी चलताली. पूण पूर्ण जावपाक पावली ना. माधवीची इत्सा पुराय करपाचो हावेस कृपालीन बाळगिला. पळोवया!

माधवी स्वत: एक धगधगती आशिल्लें. आपणे पेटून दुसऱ्यांक त्या ज्वाळां सकयल खदखदपी विचारांचें मंथन करपाक लावपी. शांतीकायेच्या मार्गान चलपी पूण प्रत्यक्षांत तें क्रांतीकारी आशिल्लें. उलयनासताना मोन्यानी आपणाक योग्य दिसता ते आनी समाजांत चलंत नाशिल्लें पूण योग्य आनी गरजेचें अशे निर्णय घेवन मोकळें जावपी. आसावरी आनी आदिती ह्यो दोन सोबीत चलयो आपले आवयच्या सुसंस्कृत वळणाचेर आज वाटचाल करतात.

आनी मागीर २२ डिसेंबर २०१४ दिसा ह्या एका म्हान गिन्यानी, विद्वान विभुतीच्या अंत्यसंस्काराचो काळीच हालोवन सोडपी तो दुखदिणो प्रसंग. आसावरी, ताचे धुवेन आपले आवयच्या सरणाक अग्नी दिलो. पाशाणाकय पाजर फुटचो असो तो दारुण प्रसंग. चितेच्यो ज्वाळा दिगंतांत भरसताना धर्तरिचेय थरथर कापपी ताच्या प्रियजनांचे दोळे दुकांचें वजन पेलना जावन सुजिल्ले दिसतालें. दुकां सांबाळपाक नजो असो सगळ्यांचोच घुस्मट. फाटलें वर्सभर दुयेंत आशिल्ल्या माधवीक वखदांचो गूण पारतलो आनी तें बरें जावन नक्की परत येतलें ह्या सकारात्मक आत्मविश्वासान ताच्या येवपा कडेन दोळे लावन वाट पळयतल्या सगळ्यांचोच अपेक्षाभंग जाल्लो. माधवी इतले बेगीन हो संवसार सोडून वतलें हें केन्नाच मनांतूय आयलें ना. तागेलो विद्वत्ता, हुशारी, चिकाटी, ध्येय, निश्ठा आनी हें सगळें करतना सभोंवतणचो काळोख आपणे पिवून उडयत आमचे खातीर उजवाडाची वाट मेकळी करून दिली. सेवेचें अशें व्रत घेवन जल्माक येवपी मनशां खूब थोडीं. माधवीची गणना अशी भोवमोलादीक लोकांत करताना अभिमान भोगता.

माधवी सगळ्यांचेंच आशिल्लें. वेगवेगळ्या नात्यांनी. पूण कांय जाणांचे तर तें सामकें लागींचें आशिल्लें. आमच्या सारख्यांचें तें इश्टीण आशिल्लें, जोगळेकर सर, गुरुनाथ केळेकार सारकेल्या कितल्याशाच ज्येश्ठ मानेस्तांक तें आपले धुवे समान आशिल्लें. विद्यार्थ्यांची मोगाळ प्राध्यापक आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार आसावरी आनी आदिती ह्या दोन चलयांची आवय. जयवंतराव आनी मोगाबाय हांची गोड धूव, ताचेर मोग करपी राजूची प्रीय बायल, विजय आनी सविता वांगडा ल्हानपणात हांसत्या खेळट्या घडणुकांत समरस जाल्ली एक भयण, ते भायर कितल्याशाच कुटुंबीक नात्यां कडेन लागसारपणान वागपी अशें हें मोगाचें माधवी.

ताबुलफळ्याच्या काळ्या धव्या घुलां मदीं माधवीचे विद्वत्तेची ताब्लां मुठींतल्यान केन्नाच निश्फळ ठरलीं ना. खेळटा खेळ्यां जोखून उडयलीं आनी डावाचे डाव तें जिखत गेलें. पूण आयुश्यांतलो हो एकूच डाव हारलें. मुठींत धरिल्लीं ताब्लां थंयचे थंयच घट जालीं आनी आंवुळिल्ली मूठ सुटून सुटली ना. आनी माधवीच्या विविधरंगी गुणांनी भरिल्ल्या निरांजनांतली वात सुकून गेली.

संपर्क: 9764597628



# मलबाराव

## (एक दीर्घ मुक्तक)

**- पुंडलीक नायक**

मलबाराव संवसारांतल्यांन वचत सावन
कुळागरांतलें थंडगार वझरे
जाल्यात बेताल!
बाकी सगळें जागच्या जाग्यार.

मलबाराव अख्ख्या गोंयां खातीर
आनी गोंयां भायर
संगीताचो जाणकार
गांवां खातीर मात फक्त भाटकार.
घर की मुर्गी दाल बराबर!

शेरवडाच्या पानां परसूय
धव्याफुल्ल धोतराचेर
बंडी मलमलची,
तिचेर अरसता, निथळपी घामाचे थेंबे
धवी न्हय, काळी तोपी माथ्यार
हातांत रोत, तिची मूठ नक्षीदार
थेको जमनीर,
ज्युस्त आवाज जाता, त्या फातरार.
एका काळार भागेली, मुंडकार
उठताले, बसताले, हालताले, धोलताले,
ह्या रोताच्या थेक्यार!

दोंगरा - गाळी कणकणी
आनी वयल्या काजींनी
कोंरांथून आसा मलबारावाची
एकेक कथा आनी काणी
तिखट - मिठाची तातूंत भर
वर्सां संकिनी.

मलबारावाच्या भाटांत
गोव्यांचीं घरां जालीं,
घरांचे बंगले.
ताणें कोणांक कुस्कूट जागो दिलोना
आनी कोणाची बुन्याद आडायलीना.
आपल्या एकचौदाच्या उतान्याचेर
पेन्सिलीन दिसपट्ट्यो
तोच करीत रावलो
घरा कणकणी कुरवो.
जागो गेल्ल्याची ताका खंत ना.
ताचें दु:ख्ख -
सरकारान ताचे भांगरा सारखे
जमनीचें मोल केलें,

फक्त आठ आणे चौखण मीटर!
आनी कटा! तेन्ना ताचो जांवय,
ज्यूस्त विरोधी पक्षाचो फुडारी!

गेले ते वाळे...
मलबाराव धोतर न्हेससर
रायकारालो कामियांव,
गुरगुरत रावतालो भर मार्गार.
आतां बस रावना,
मलबारावाक ताची पर्वा ना.
मुखावेल्यान येवपी मुंडकार
ताका पळोवन,
सरळ वाट वांकडी करता.
ना, ताचीय ताका पर्वा ना.

'जय हिंद' जावच्या आदलो
तो भाटकार आनी
स्वातंत्र्या उपरांतचोय भाटकार.
ताका कांयच माथ्यार मारून
घेवन वचपाचें ना.
जसो भांगराचो चमचो
तोंडांत घेवन जल्मल्लो
त्याच वैभवांत ताका,
वचपाचो आसा.

काळान ताका बागोवचे आदींच
ताणें काळाक बागयला,
बेताची काठी कशी!

मलबाराव जसो भाटकार,
तसोच तागेलो शेजारी भाटकार,
नटवर्य तो!
मलबारावाक जशें संगिताचें
उपजत ज्ञान, तशेंच
नटवर्याचें बेगडी न्हय पूण
नाटकी प्रेम!
देखुनूच तो 'मानापमान' नाटकांतल्या
'धैर्यधरा'ची मुस्तायकी घालून
पाडूंक वता भाटांत.
तातुंतलें कांयच भाड्याचें न्हय.

मलबाराव आनी नटवर्य
दोगांयची खानदानी इश्टागत,
तशीच खानदानी दुस्मानकाय.
मुंडकार - भागेल्यां सारखी
गाळी-फरस्तींचीं झगडीं-झुजां न्हय,
शांतिकायेचीं शीत-युद्धां.
दुस्मानकायेचें एक उदाहरण-
वसंत पुजेक, वर्सा प्रमाण नटवर्याचें
संगीत नाटक.
पुणेची नटी हाडून
दिसरात तीन म्हयने येसायो.
नटवर्याची मुखेल भूमिका आशिल्ल्या
संगीत नाटका दिसा,
मलबाराव तोपी घालून,
धवी न्हय काळी,
पयलेच रांकेंत, मांडी ठोकून हजर!
कुशीक ताचेच पॉर्जीत,
तागेलें रोत!
पेटीवाल्याच्या काळजांत खप्खप्
जाल्यार तबलजीच्या काळजांत डब्डब्

नटवर्य धाडावन - बडोवन
पिकयल्लो पणस!
नाल्ला परसूय उणें ताका,
संगिताचें ज्ञान.
सगळ्या नाटकाचो खर्च,
आंगार घेतिल्लो नटवर्य,
घामाच्या पांवळ्यांनी न्हायत गायता,
तिनसांजच्या काळखांत,
भाटांतल्यान घरा येवपाक चांचपडचो,
तसो समेर येवपाक धडपडटा.
मलबारावाच्या घरा मुखावयले
पाज्जेवयल्यान गडगडत,
सकयल गेल्ल्या बोंड्याभशेन
नटवर्याची अवस्था!

मांडयेर ताल सोडीत,
मलबारावाची तकली फोलेर जावन
माटोवभर घुंवता.
नदरेंत काळचक्राचो ताल चुकिल्ल्याची
नाटकी न्हय, खरीखुरी भावना!

नाटक सोंपोवन धोतराची चुरी
सारखी करीत, मलबाराव,
मोट्यान अभिप्राय दिता -
मुखेल सवंग सोडून,
बाकी सगळीं सवंगां फस्कलास!
नटवर्य पळोवचोना अशी खात्री करून
व्हदळचे रसीक,
दांत विचकावन हांसतात.

मलबाराव आनी नटवर्याचे
दुस्मानकायेचें दुसरें उदाहरण-
खूब झुजल्या उपरांत केन्ना तरी,
दोगांय मर्दी खानदानी समझौता.
मागीर नटवर्याल्या पोरसांतलीं फुलजाडां,
भेटवण म्हण मलबारावागेर.
परत मलबारावागेर सावन
झाडां नटवर्यागेर.
अजाप!
नटवर्यागेर सावन आयिल्लीं झाडां
मलबारावाच्या पोरसांत बेसबरी नंदतात!
घोंसांनी ताळयेन ताळी फुलता!
पूण मलबारावागेर सावन आयिल्ली झाडां
नटवर्याल्या पोरसांत आंगूच धरीना.

एके सांजे, मलबारावाच्या बल्कावांर
हास्याचो खळखळ!
कारण खतखतीत हून उदकांत
मुळां बडोवन धाडिल्लीं झाडां,
नटवर्याच्या सोड,
परमेश्वराच्या पोरसांत तरी
रुजपाक आसा?
('वृक्षवल्ली आम्हां सोयरे वनचरे' अशें
मानप्यांनी मलबारावाक समजून घेंवचो.
खानदानी दुस्मानकायेंत ही करणी
क्षम्य थारता.)

मलबारावा विर्शींच्यो गजाली रंगतात,
संगीताचे मैफली भशेन...
ताणें केल्लें कास, मारिल्ले कवडे,
सोंशे, धुकर, साळ आनी वाग लेगीत.
कविराय मनोहर ताचो दायजी,
बारा दिसांचो,
म्हज्या सारख्या कोणेंय अभिमानान
म्हणचें कविरायाक -
मलबाराव केद्दो कासाढोर!
ताणें मारल्यात वाग,
शिकारेक वचून.
कविरायान दोळे मिचकायत म्हणचें,
- वागा परस बोकडेच चड!

मलबाराव; जंय ताचें बोट लागलां,
थंय ताणें पोसोभर ओतलां.
जंय हात शिरकला, थंय खांडीभर.
जंय ताची भागयल्या कोणें गरज
मानून तें रीण, तो फेडीत रावला,
दाम - दुपेटीन.

जाणीं अणभवल्या वेठबिगार
ताका कळचीना,
मलबारावाचे परबेची लक्तुबाय!
दर चवथीक बसता मलबाराव,
पटी घेवन,
कोणे परब व्हेल्या, कोणे व्हरूंना...
दर पाड्याक, तागेले नाल्ल पावतात,
घराघरांत, तो आससर आनी
ताच्या उपरांतूय पावतले,
अशी चोख व्यवस्था,
काळान बदल्लो तागेलो भूगोल आनी
मलबारावान बदलून वडयली
भाटकाराची व्याख्या.

म्हज्या सोनयाळ्या दिसांच्या भुरगेपणांत
शिगम्याच्या मेळांत आमी
रोमटाच्या तालार,
हुरकेच्या ताळ्यांवयले गोंडे झेलयत,
नाचत-गायत वयताले
अनवाणी पांयांनी, भर दनपारां-
''चला जावूं, चला जावूं अनंताचे भेटे
अनंत भेटला आमकां अर्दे वाटे'' आड्डत

तेन्ना अनंता बदला,
दोळ्यां मुखार आसतालो,
बल्कांवांतलो मलबाराव.
अनंताच्या देवळा मुखार नाचून जातकूच
मागीर मलबारावाच्या आंगणांत
आमच्या मेळाचे पेर्णें!
धोलावयली तोणी, ताशावयली बडी,
फक्त मलबारावा खातीर.
जत गावन चुकनासताना
भोंवर मारून नाचपाचें
फक्त मलबारावा खातीर.

जत सोंपतकूच निमाणें,
'तळी' म्हणपाचो प्रसंग.
तेन्ना बापूय अचूक म्हाका,
मुखार धुकलतालो.
घामाघूम अवस्थेंत,
भेंडावयले कल्सांव आनी
नाक मनगटार घांशीत,
जाणटेल्या हरिश्चेन मास्तरान
तोंड उक्तें केलां, हें खबर आसुनूय
ताका बखानी मारून हांव मुखार.
एका दमान, एक सुरान तळी म्हणून
निमाणे सगळे 'बले! बले!' म्हणटाले.

बापूय हड्डें मुखार काडून
मलबारावाक म्हणटालो,
हो म्हाजो चेडो, पुण्लीक!
हांवें कितें म्हणलां, ताचो अर्थ
कळनासलो म्हाका आनी मलबारावाकूय
तरी मलबाराव, वक्लांतल्यान
म्हाका बारीकसाणेन, पळयिल्ले भशेन
करून म्हणटालो, 'अब्बा!'

मागीर कांय वर्सां उपरांत,
ओंठाचेर मिश्यो फुटिल्ल्या,
आमी कांय सुबेज तरनाट्यांनी थारायलें-
मलबाराव आमगेर शिगमो
खेळपाक येयना
जाल्यार आमी तागेर कित्याक वचप?
ना, गेले ना.
तेन्नाय मलबारावान नक्कीच
म्हणलां आसतलें - 'अब्बा!'

मलबाराव, म्हज्या पुताच्या
पयल्या वाडदिसाक
भाटकारपणाचीं बंधनां तोडून
चडलो सोंपणां, म्हजे पडवेचीं.
त्या दिसा भोंवतणची झाडां-पेडां,
आंबो, पणस, चांफो, अशोक,
धोल्लीं ताल - सुरान.

मागीर दर वर्सा, अनंताच्या काल्याक
कामतीच्या खाज्या मांडार
आसन मांडी घालून बशिल्ल्या
मलबारावान,
म्हज्या पुताक, धा रुपयांची नोट दिंवची.
पुताकूय तो आपलो वर्सूकी
अधिकार दिसचो.
उणी पुरीं पंदरा वर्सां उलगलीं,
चणे तडतडले, लाडू वाडले,
खाजें म्हारग जालें, पूण
धा रुपयांची बक्षिसी तशीच उरली.
हांवें पुताक समजावचें-
श्री अनंताच्या पंचखाद्येच्या
दोण्याचें मोल, थारावपाचें नासता
कारण तो प्रसाद आसता!

शेशशाई श्री अनंत,
आपणाल्या सात दिसांचे जात्रेचें
आमंत्रण दिवपाक पालखेंत बसून वता,
सांतेरीगेर, लक्ष्मी-नारायणागेर
आनी विसरना विधिसयत
आमंत्रण दिवपाक - मलबारावाक.
मलबाराव प्राकारांत प्रगट जातकूच
शेशशाई आसनाचेर लवंडटा बिनधास्त.

लयभास्कर खाप्रूमाम,
पर्वत देंवून येंवचो,
तशी ताची लयपरंपरा
पाज्ज देंवून येता मलबारावा कडेन,
दोनूय पोंवत्यो सुजसर
मलबाराव आपणांक बडयता.
म्हाका ओडटा, ताल-मात्रांच्या
महासागरांत
तळयेंत बुचकळचो,
तसो हांव बुचकळटां.

मलबाराव इतलो पावस जावन
म्हजेर रकुनय, हांव सुको सडसडीत
सड्या वयल्या पाशाणा वरी.
मलबारावाक ताची खंत ना.
आपूण रितो जाल्ल्याची सूऽऽ अशी
ताची भावना
म्हजी संगिताची पाटी कोरी!
मलबारावाक खबर ना, अशें ना.
पूण गांवांत ताका
म्हजे बगर पर्याय ना.

लेखक म्हण म्हाका, संगितांतलें,
थोडें तरी कळपाक जाय,
अशीय ताची अपेक्षा ना.

मलबारावान म्हाका
पयलेच खेप म्हण सांगिल्ली गजाल
बारावे खेप तरी आसली.
केन्ना बर्सीत, केन्ना सड्यार,
केन्ना सांकवार, जाल्यार केन्ना
अनंताच्या थळांत.
गजाल अशी -
- ती अमूक एक मैफल -
(बारावे खेप सांगुनय म्हाका याद ना.)
- तो अमूक गावपी - (याद ना.)
- तो अमूक तबलजी -(खरेंच, याद ना.)
मलबाराव कालूच घडिल्ले भशेन
म्हाका सांगता -
- "भर मैफलींत हो ××× तबलजी,
अर्दी मात्रा खावन,
त्या ××× गावप्याक चक्रायता.
पूण म्हाका, मलबारावाक
चक्रावपाक जाता?
थंयच धरलो चोराक!
मागीर पांयांर घालून घेता,
मलबारावाच्या.
मलबाराव कसलो तर?
सोळा मात्रांचो त्रिताल तोंडांत म्हणून
पांयांचेर बारा मात्रा काडपी हांव.
सोळा सक श्याण्णव.
बारा आठी श्याण्णव.
हे अशे-"

आनी मलबाराव भर उक्त्या सड्यार
आपणांकूच पोंवटार बडयता,
थडाथड!

सड्या वयल्या वडा मुळांत
हांवें पळयला मलबारावाक
वडायेदो जातना आनी
मळबाक भिडटाना पूण
हांवें धा फावट सांगुनूय
कोणें एकदांय खरें मानुना.

मलबाराव आतां ना
म्हाका अर्दी-मर्दी भास जालो,
तरी तो ना.
मलबाराव ना, आनी अनंताचे जात्रेक
न वचपाच्या कारणांत पडल्या भर
पूण तो नासुनूय,
सगळें जागच्या जाग्यार आसा.
अनंताची जात्रा, कुळागर,
पाज्जेचीं सोपणां,
तळयेंतलें उदक, उदकांतल्यो दाणयो,
भिगूर आदी आदी.

त्या दिसा, भर कुळागरांतल्यान
हांव वतालों,
जाल्यार वाटेर वझरो फसफसून व्हांवता.
म्हजी जाग आयकून सावधसो जालो
आनी हांव म्हण खात्री पट्टकच
अर्दी मात्रा खायत,
बेताल व्हांवपाक लागलो.

अर्दे मात्रेची भानगड सोडली जाल्यार
मलबाराव नासुनूय
सगळें जागच्या जाग्यार!

संपर्क: 09158344919

# कविता



## आत्मस्वर

**- संहिता कुलकर्णी**

णव्वद पावस गीम सरले
कितलेंशेंच सोंसलें,
भोगलें,
आयकलें,
पळयलें,
जाणलें.
रुतूंचे सुवाळे -
नखेत्रांचो खेळ -
मनशांचे वेव्हार...
संवसाराच्यो लटाफटी...
म्हजीय जीण...
आनिकूय किदें किदें!
पूण आयकूंक ना केन्नाच
तो आतां आयकतां
म्हजो आत्मस्वर!

संपर्क : 0832-2370409





## सोपणां

**- सुफला रुद्राजी गायतोंडे**

पापाल्या घराक खूब सोपणां
सोंपून सोंप नाशिल्लीं म्हूण
हांव धांवून चडटालें
जायते फावटीं पडटालें
धोंपरां फोडटालें
आई पातळाचो फाळो कापून
हळडी-पिठो धोंपराक बांदताली
आजी अपुरबाय करताली
घराआतें वेंगेंत घेवन सांसपितालें...
आयजूय तीं सोपणां आसात तश्शीं
येवकार दीत म्हाका कुळारा
पूण सोपणां चडटना
उमेद शेणिल्ले
जाणटे पांय म्हजे जड जड
माग घेत उगडासांचो
पापा आई आजी घराआतें
म्हज्या भुरगेपणाचो

संपर्क : 9823111917





## कागदावयलो चंद्र

**- परेश नरेंद्र कामत**



तूं उडय पिंजून कागद
त्या कागदा वयलो चंद्रूय उडय पिंजून
तुका जाय जाल्यार कागदाचो समजून.
पिंजल्यार लेगीत तो उदेतलोच
मनांत तुज्या-म्हज्या
परतो परतो.
कागदाची गुठली करून उडोवं येता
चंद्राची गुठली करतलो कोण?
कागद आसा सुको सुको
भिजून जाता ओलो ओलो
चंद्रूय आसा सुको, निबर आनी फातराळ-
आतां चंद्राच्याय दोळ्यांत उदक पाझरता खंय!

संपर्क: 9422640210





JAAG MONTHLY, SEPTEMBER, 2015 REG. No. 2 GOA 130

# SEGREGATION IS THE KEY

SEGREGATE
WASTE
NOT PEOPLE






WASTE MANAGEMENT SERVICES PVT. LTD.

FOMENTO
green

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Asawari Nayak